**कला चेतना, वळवय निर्मित -**
**'अंता घरा भगवंता' (2001)...**



कलाकार : नंदिनी बांदेकार, महेश शिलकार, सुचिता नार्वेकार, प्रवीण नायक, विठ्ठल नायक आनी हेमंत कांसार.



कलाकार :
हेमंत कांसार
आनी
महेश शिलकार.

# पुंडलीक नारायण नायक
## हांगेलीं रंगमाचयेर आयिल्लीं नाटकां

| | | |
|---|---|---|
| 1) | खण खण माती | 1977 |
| 2) | रक्तखेव | 1978 |
| 3) | राखण | 1979 |
| 4) | देमांद | 1980 |
| 5) | मुक्ताय | 1980 |
| 6) | सूर्यसांवट | 1981 |
| 7) | शबै शबै भौजन समाज | 1981 |
| 8) | सुरींग | 1982 |
| 9) | मनशाळी मोनजात (रुपांतरीत) | 1982 |
| 10) | पिंपळ पेटला | 1984 |
| 11) | श्री विचित्राची जात्रा | 1986 |
| 12) | दायज | 1990 |
| 13) | चैतन्याक मठ ना | 1991 |
| 14) | आत्मवंचना | 1992 |
| 15) | परिक्रमा | 1993 |
| 16) | दिश्टदौलत | 1995 |
| 17) | तकली तड्डकी (रुपांतरीत) | 1998 |
| 18) | तिरंगी चक्राचक्री | 1998 |
| 19) | प्रेमजागोर | 1999 |
| 20) | शिरी रे शिरी! अधांतरी! | 1999 |
| 21) | काळजाची काणी | 2000 |
| 22) | प्रेमयुद्ध | 2000 |
| 23) | दिव्या दिव्या दिपत्कार | 2000 |
| 24) | अंता घरा भगवंता | 2001 |
| 25) | कांसुलो | 2002 |
| 26) | धनयां देंवचारा | 2003 |
| 27) | चित्र स्वयंवर | 2003 |
| 28) | सांगोड | 2004 |
| 29) | चतुरंगा | 2005 |
| 30) | कथा अस्तुरी | 2008 |
| 31) | फिंर्गी फटास | 2011 |

चत्राय : नाटकाच्या मुखावयलें वर्स, नाटक रंगमाचयेर आयलां तें वर्स.

# अंता घरा भगवंता

(दोन अंकी)

पुंडलीक नारायण नायक



ANTA GHARA BHAGVANTA Konkani Play

by PUNDALIK NARAYAN NAIK

© हेमा पुं. नायक

प्रकाशन क्र. : 86

पयली उजवाडावणी : 2012

उजवाडावपी :
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें,
गोंय : 403 401

अक्षर जुळोवणी :
रिया ग्राफिक्स
ओल्ड-गोवा,
गोंय : 403 402

मुखचित्र :
श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल : ₹ 100/-

ISBN : 81-86488-86-3

**चत्राय :**

ह्या नाटकाचो प्रयोग, रुपकार, अणकार, ध्वनिमुद्रण, चित्रिकरण आदि सगळे तरेचे हक, हेमा पुंडलीक नायक हांचेकडेन आशिल्ल्यान ते खातीर तांची लिखीत मान्यताय घेवप गरजेचें आसा. ना जाल्यार कायदेशीर कारवाय जातली.

तूं पाडेली!
पूण दिसावड्याचे नाल्ल विकून
तूं नाटकाची पटी
फारीक करपी.
तूं शिकूं नाशिल्लो!
पूण आडो हुपून येवन
तुवें म्हाका
नाटक कशें बरोवचें न्हय,
तें शिकयलें.

**वैकुंठ नायक...**

तुजे यादीक!

- पुण्लीक

# अंता घरा भगवंता येवच आदीं...

हिंदू धर्मशास्त्रांतल्यो प्राणप्रतिष्ठा करप म्हणल्यार मूर्तिंत प्राण घालप, प्राण काडून घेवप ह्यो कल्पना नाट्यमय आसात. ह्यो कल्पना आमच्या पुराणकथांनी तशेंच लोकसाहित्यांत मोट्या प्रमाणांत घोळटा. म्हाका ही कल्पना खूब आवडटा. मूर्तिंत प्राण घालप हे कल्पनेचो वापर हांवें हांगासर केला. देशभर बेकायदेशीरपणान (पूण नितिप्रमाण) चलपी मटको ह्या जुगारी खेळाची पार्श्वभूंय ह्या नाटकाक लाबल्या. हांव मटक्यासारख्या जुगाराची 'बाजू' मांडटां अशें कोणाकूय दिसूंये. पूण तें तशें ना. मटको ह्या व्यवसायाची वस्तुस्थिती तटस्थपणान मांडपाचो हांवें यज्ञ केला. तशें पळोवपाक गेल्यार खाद्य, मद्य, वस्त्र हांचेसारखो जुगार हो लेगीत आमचे मानवी संस्कृतायेचो एक भाग आसा.

सट्टेबहाद्दूराचो पुतळो प्राणप्रतिष्ठा करतकच जिवो जावप ही एक नाट्यमय कल्पना आसा. नाटक ह्या प्रकाराचीं जीं कांय बळस्थानां आसात, तातूंतलें एक हें बळस्थान. तर्काच्या आदारान नाटकान खरो भासपी आभास निर्माण करूंक जाता, तो असो. सट्टेबहाद्दूर ही व्यक्तिरेखा ऐतिहासीक स्वरुपाची भासली तरी ती काल्पनीक आसा. संस्थानिकांच्यो जायत्यो गजाली वाचिल्ल्यो, आयकल्ल्यो तातूंतल्यान ती घडल्या.

मटक्याच्या जुगाराची बरीचशी माहिती म्हाका स्वतः मटको खेळपी इश्टानीच दिली, देखून ती 'अधिकृत' आसा अशें मानूं येता. खरें म्हणल्यार तांगेल्या नांवांचो उल्लेख करप गरजेचें. पूण तशें केल्यार गरजे भायर ते अडचणेंत येवंक शकता. देखून तोंड धांपुनूच तांका धन्यवाद दितां.

'अंता घरा भगवंता' हें म्हगेलें 24 वें नाटक.

**– पुंडलीक नारायण नायक**

'अंता घरा भगवंता' नाटकाचो पयलो प्रयोग, कला चेतना वळवय संस्थेन सार्वजनीक गणेशोत्सव केपें–गोंय हांगासर ता. 24 - 8- 2001 दिसा, सां. 8.00 वरांचेर सादर केलो.

## श्रेय नामावळ

| | | |
|---|---|---|
| 1. **अंता** | : | हेमंत कांसार / राजदीप नायक |
| 2. **अंबिका** | : | नंदिनी बांदेकार / सुचिता नार्वेकार |
| 3. **नंदन** | : | प्रवीण नायक |
| 4. **राधिका** | : | सुचिता नार्वेकार / मीलन वायंगणकार |
| 5. **सट्टेमास्तर** | : | प्रेमानंद गुरव |
| 6. **सिद्धनाथ** | : | विठ्ठल नायक |
| 7. **भगवंता** | : | महेश शिलकार |
| 8. **शेट्टीगार** | : | सागर नायक |

| | | |
|---|---|---|
| **दिग्दर्शन** | : | श्रीधर कामत बांबोळकार |
| **नेपथ्य/रंगभुशा** | : | हेमंत कांसार |
| **उजवाडा येवजण** | : | संदिप खेडेकार |
| **वेशभुशा** | : | सुचिता नार्वेकार |

## पात्रांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| 1. अंता | – | घरकार, मटकेकार |
| 2. अंबिका | – | अंताची घरकान्न |
| 3. राधिका | – | अंता आनी अंबिकेची तरनाटी धूव |
| 4. नंदन | – | अंता-अंबिकेचो तरनाटो पूत |
| 5. सिद्धनाथ | – | भटपण करपी भटजी |
| 6. भगवंता | – | सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे नांवाचो जावन गेल्लो संस्थानीक |
| 7. सट्टे मास्तर | – | शाळा मास्तर |
| 8. शेट्टीगर | – | पुतळे घडोवपी कर्नाटकी शिल्पी |

# अंक : पयलो

## देखाव – एक

(पार्श्व भागाचेर शिर्शक गीत. माची उजळटा.)

**ना विवंचना ना चिंता**
**अंता घरा भगवंता**

**जड कामां तीं जातलीं ल्हव**
**घट तें सगळें जातलें मोव**
**वांकडे तिकडे आंकडे सारखे**
**जुळोवन दितलो अनंता**

(एका स्पोटांत कपड्याचो बुरखो घातिल्ली एक मूर्ती दिसता. मूर्तीक लागसून एक मनीस बारीकसाणेन नियाळटा. होच अंता. पळयत पळयत मूर्ती भोंवतणयां एक भोंवर मारता. मूर्तीक पळयता आसताना ताचे तकलेंत एक विचारचक्र घुंवता. तें विचारचक्र हेंच मुखावयलें नाटक.)

(काळोख)

## देखाव – दोन

(माची उजळटा. गावांतलें एक घर. भितर फातरी – तिजुले बसयल्यात. मुखार दिसता ते फाटले वंटीकडेन एक देवारो उबारला. तो सजयला. देवारो रितो आसा. देवाऱ्याक दारांय आसात. वणटीक एक जनेल आसा. जनेलाचीं दारां भितरल्यान उक्तीं जाता अशीं. जनेलांच्या दोनूय दारांचेर दोशी – वशीं धव्या खोडवान नंबर बरयल्यात. जनेलाकडेन एक ल्हानशें मेज. एकवटेन घरांत भितर येवपाचें दार जाल्यार दुसरेवटेन भितर वचपाचें दार दिसता. बसपाखातीर एक दोन कदेलां आनी एक दिवाण. माचयेर मदींच एक आकृती उबी आसा. म्हणल्यार मनशायेदी उंचायेची एक मूर्त. ती निवळ अशा धव्या वा भगव्या कपड्यान गुठलायल्या.

सकाळचो वेळ. घरांतलो मुखेली अंता, हांगाथंय बोवाळटा. ताची पिराय 50–55 वर्सां इतली. घरांतल्या कपड्यांनी आसा. ताचेवांगडा तागेली घरकान्न अंबिकाय बोवाळटा. हिगेली पिराय सादारण 40–45 वर्सां इतली. गळ्यांत गडगंज बरो मणी तशेच आंगार अळंकार. तातूंत गळ्यांत एक माळ. हातांत भांगराचीं कांकणां आदि. साडी–ब्लावज असो भेस. मूर्ती म्हऱ्यांत राधिका उबें आसा. राधिका तांगेलें चली 19–20 वर्सां पिरायेचें. आधुनीक भेस. तें ल्हवपीक हातांनी मूर्ती सांसपिता. अंता काम करता आसतानाच बायलेकडेन

उलयता.)

**अंता** : अंबिका, तें पुजेचें सामान हातालागीं करून दवर. भट येतकच मागीर बोवाळ नाका.

**अंबिका** : (पुजेचें सामान परातींत घालून हाडटा.) सगळें हातालागींच आसा. हांव कितें म्हणटालीं जाणां? खरेंच गरज आशिल्ली येद्या व्हडल्या आटापाची? आतां हो देवारो.

**अंता** : आगे, येदी व्हडली मूर्ती हाडली म्हणटकच येदो व्हडलो देवारो करचो पडलो ना?

**अंबिका** : तेंच म्हणटां हांव.

**अंता** : कितें?

**अंबिका** : खऱ्यांनीच येदे व्हडले मूर्तीची गरज आशिल्ली?
(इतल्यान राधिका मूर्तीक सांसपिता थंयसावन किळांच मारता आनी कुशीक सरता. कांयशें काचाबूल जालां.)

**राधिका** : पापा–

**अंता** : तुजें आनी थंय कितें जालें गो?

**राधिका** : पापा, ही मूर्ती जिती आसा रे?

**अंता** : सारखें उलोवपाक शीक गो. कॉलेज शिकलां मुगो तूं? आमचेसारखें अनाडी न्हय. मूर्ती जिती आसा म्हणजे कितें?

**राधिका** : मूर्तीन म्हजो हात घट कसो धरलो तर?

**अंबिका** : ह्या पोराक लागलां खूळ.

**अंता** : मूर्ती म्हण हात घट धरता? पाशाणी ती.

**राधिका** : उक्ती करून दाखय मरे तरी. तुवें एकल्यान पळयली म्हणटकूच जाली? आनी कोण्णे पळोवंक ना.

**अंता** : मातसो थार धर. नंदन, सिद्धनाथ भटाक हाडपाक गेला. रोखडो येतलो. तेन्ना उक्ती करपाची आनी पुजेक लावपाची.

**अंता** : (बायलेक) मूर्ती येदी व्हडली कित्याक म्हणटाली न्हय तूं?

**अंबिका** : खर्चाखातीर म्हणटाली हांव.

**अंता** : व्हडले वस्तूक व्हडलें मोल आसाच न्हय. ह्या गावांत

सोड, आख्या म्हालांत कोणागेर येदी व्हडली मूर्ती आसा? देवळांतल्यो मूर्ती सोडून घाल. बेताळाच्यो हाचेपरस व्हडल्यो आसता. कोणागेर ना तेदें आमगेर आसा काय ना?

**अंबिका** : मूर्ती व्हडली आसली म्हणून देवाची सासाय व्हडली जाता?

**अंता** : पळयशी तूं. मूर्ती तशी किर्ती. मूर्ती व्हड तशी देवाची सासायूय व्हड. आतां आमकां हांगा-थंय आंगवणी-भेटवणी घेवन देवळांत धांवपाची गरज ना. सगळें कितें तें ह्याच देवाच्या पांयार घालपाचें.

**राधिका** : म्हणजे पापा, हांवें आतां मारुतिच्या देवळांतबी वचपाचें ना तर?

**अंता** : निखालस ना.

**राधिका** : आंवय! अशें कशें जातलें? थंय देवळांत गेल्लेकडेन कोण कोण मेळटा.

**अंता** : तेचखातीर वचपाचें ना.

**राधिका** : आई, आई हांव हो बुरखो काडून मूर्तीक नागडी करूं?
(आवय दोळे वठारता)
न्हय, न्हय. मूर्तीक उक्ती करूं?

**अंता** : थार धर म्हणलें न्हय. नंदन भटाक घेवन येवपाचो जालो.

**राधिका** : हो नंदन केन्ना उदेतलो? तो सदचेभशेन घरां पुंजायत येतलो. आनी येतना नंबर घेवन येतलो, बसीवयलो.

**अंबिका** : (ना कळून) कसलीं घरां? आनी कसले नंबर?

**राधिका** : खेळाचीं घरां.

**अंबिका** : (कळून) आं! राधिका, नंदन कितलें काम करता पळय. आतां तुवेंय मातशें हांगाथंय हातबोट घालपाक जाय.

**राधिका** : ना आं ना. हांव असलीं कामां करपी न्हय.

**अंबिका** : कित्याक?

**राधिका** : पयलींच म्हाका कॉलेजींतलीं भुरगीं चाळयतात.

**अंबिका** : कितें म्हण चाळयतात?

राधिका : एम के लें चलीं म्हण.

अंबिका : एम के म्हणजे कितें?

राधिका : म्हाका खबर ना. क्लासींत भितर सरनाफुडें नंबर कितें काय म्हण कोमेंट मारतात.

अंबिका : तूं आयकून कित्याक घेता? सांग तुगेल्या प्रोफेसराक आनीक कोणाक काय म्हणल्यार त्या प्रिन्सिपॉलाक.

राधिका : तांकां सांगून कितें लज करून घेवं?

अंता : लजबीज कांय एक जायना. ते कोण फकाणां मारतात तांचीं नांवां हाड. मागीर तांगेले आवय-बापूय खंयच्या नंबरार खेळटात ते नंबर काडून दितां. हांगासर कोण सोवळो ना.

अंबिका : आमचे देव लेगीत खेळटाले. पांच पांडवांनी द्रौपदेक पटाक लावन खाल्ली ना?

अंता : (पिशांत काडून) तूं आनी एक बायल!

अंबिका : फट म्हजें?

अंता : पांडव देव तर?

अंबिका : श्रीकृष्ण देव न्हय? तो पांडवांबरोबर आशिल्लो.

अंता : श्रीकृष्णाबरोबर पांडव आशिल्ले म्हणून ते देव जातात?

राधिका : (मूर्तीच्या बुरख्याक हात घालून) पापा, ही मूर्ती कोणा देवाभशेन दिसता?

अंता : (ताका आडायत) आगो, आगो राव गो. भट येवपाचो जालो म्हण सांगलें न्हय

राधिका : आतां पळय आं. हांव धा म्हणटांसर जर भट आयलोना जाल्यार ह्या देवाचें उक्तावण हांव ह्या हातांनी करपी. (आंकडे म्हणटा) एक, दोन, तीन, चार, पांच, स, सात, आठ, णव, धा.

(इतल्यान भायरसावन रघुनंदन धांवत येता. हो राधिकेचो व्हडलो भाव. ताचेपरस पिरायेन एक-दोन वर्सांनी व्हडलो.)

नंदन : धा? धा न्हयच जाल्यार. दुसरोच नंबर आयला. (जनेलाकडेन वता आनी खोडवान जनेलाचेर दोन आंकडे बरयता.) पापा,

आमी शाणेपणां केलीं. व्हडलीं घरां आंगार दवरलीं. ना जाल्यार त्रासांत पडपाचे. येतना हीं कोणाकोणालीं नवीं घरा घेवन आयलों.

राधिका : (आवय बापायक) हांवें सांगूंक नाशिल्लें?

नंदन : कितें सांगिल्लें?

अंबिका : ताका माल्ल्या मस्ती. आपूण कांय करचेंना आनी करतल्याची फकाणां मारतलें.

अंता : नंदन, नंबर सारखो मरे? नाजाल्यार थोड्या वेळान बदलत.

नंदन : ना, ना. सारखो सदचे बशिच्या ड्रायवरान सांगला. (धा आंकड्याची ॲक्शन करून दाखयता) फाल्यां पेपरारूय तोच.

अंता : (राधिकेक) कसलो गुणाचो भाव पळय तुजो. (नंदनाक) नंबर हाडलो. घरांय पुंजायलीं तें बरें आसा. भटाक खंय सांडयलो?

नंदन : मस्णांत!

अंता : शी. कितें उलयता रे?

राधिका : (चाळयत) कसलो गुणाचो भाव म्हजो!

नंदन : खऱ्यांनीच. देवाच्यान तर! भट मस्णांत गेला.

अंता : (समजून) आं. मसंडेंत गेला?

नंदन : मस्णांत मसंडेंत एकूच न्हय तें? शाबी-बाबी पोंक दिफेरेंस

अंबिका : म्हणजे कितें?

नंदन : आगे, आयज कोणाचे इकरा दीस आसात. थंय मसंडेंत भटाक मर्तिकाचें काम आसा. तें करतलो आनी हांगा मूर्तीचे काम करपाक येतलो. मूर्तीची प्रतिष्ठापना. ती करून ताका मागीर एक सत्यनारायणाची पूजा आसा.

अंबिका : मसंडेंतल्यान तसोच हांगा येतलो?

नंदन : तसोच म्हणजे? मदीं खंय सर्गार वचून येतलो?

अंबिका : सर्गार कित्याक? तळयेर तरी वचून येतलो काय ना?

नंदन : तळयेर कित्याक?

अंबिका : न्हावंक. मसंडेंतल्यान तसोच आयलो जाल्यार?

अंता : आमकां कितें? ताचें ताका. हरशी म्हण आप-पाप भटाच्या माथ्यार थाप.

राधिका : म्हणटकूच मसंडेंतल्यान भट येसर आमी हे मूर्तीक धांपून घालून हांगासर अशेंच रावपाचें तर?

नंदन : अशेंच कित्याक काय म्हणटां? हे मूर्ती भोंवतणी अशी फुगडी घालपाची. (मूळ फुगडेचीं उतरां बदलून म्हणटा.)

**फूऽऽ बाये फूऽऽ फुगडी फूऽऽ**

**तोंड दाखय आमकां गोविंदा तूं रे गोविंदा तूंऽऽ**

(ल्हवू ल्हवू मूर्तीच्या तोंडावयलो बुरखो काडटा.)

अंता : आरे, नंदन हें कितें करता? सिद्धनाथ भटाक येवंदी न्हय.

नंदन : भटान सांगलां, मूर्ती देवाऱ्यांत बसयात. आपूण मागीर येवन प्रतिष्ठापनेचें भटपण करतां.

(मूर्तीचो उजवो हात पळोवन राधिकेक कितेंतरी येवजता. तें हांगा-थंय पळयता. थंयच प्लावरपॉटांत कांय प्लास्टीकचीं फुलां आसात. तातूंतलें एक फूल दांड्यासयत काडटा आनी मूर्तीचे उजव्या हाताचे मुठींत खोयता. आतां मूर्ती फुलांचो वास घेता अशें दिसता. मूर्ती सामकी उक्ती जाल्या. अंता सिगार पेटयता आनी ओडटा. अंता सोडून तिगांय उत्सुकतायेन मूर्ती पळयात. मूर्ती म्हणल्यार एक पुतळो कसो. माथ्यावयल्या मुकुटान आनी आंगावयल्या भेसान कोण एक तरनाटो राजकुंवर कसो दिसता. पुतळो एके विशिश्ट पॉजीन उबो आसा, उजवो हात मुखार. तिगांय बारीकसाणेन पळयतात. गोंदळटात. तांकां कांयशी खोस. कांयशें अजाप जालां.)

राधिका : पापा, हाका दोनूच हात? दोन हात खंय शेणले? देवाक हरशीं चार हात आसतात न्हय?

नंदन : पापा, ही मूर्ती काय?

(दोगांय बारीकसाणेन पळयतात. अंबिका घोवा म्हऱ्यांत वता.)

**अंबिका** : (दुबावान) एक सांगात, ही मूर्ती कसली?

**अंता** : कसली म्हणजे? देवाची.

**अंबिका** : पूण देवाक नांव आसा काय ना?

**अंता** : आसतलें.

**अंबिका** : आसतलें म्हणजे?

**अंता** : आमचे देव एक आनी दोन? तेत्तीस कोटी.तातूंतलो खंयचो तरी एक आसतलो.

**अंबिका** : पूण मूर्ती करतल्याक तुमी सारखें सांगचें न्हय.

**अंता** : सारखें बेस बरें सांगलेलें. उडुपींतल्या कारगलचो शेट्टीगर म्हटल्यार उत्तर कन्नडांत आनी गोयांत लेगीत एक फामाद मूर्तीकार.देवाची बरीशी एक मूर्ती घडय म्हण सांगलेलें ताका. सगळे दुडू... हय, पंचवीस हजार फारीक केल्ले. उडुपी गेल्ले फावट हो शेट्टीगर आयज फाल्यां करपाक लागलो. निमाणे पयर गेलों आनी तयार आशिल्ली मूर्ती घेवन आयलों.

**अंबिका** : बळजबरीन?

**अंता** : बळजबरीन कसली? हारोहार इतले दुडू फारीक करूना? शेट्टीगर नासलो घरा. नाजाल्यार हो नांवाचो गोंदळ जावचो नासलो. तोच सांगतलो आसलो. कांय नजो. आतां सिद्धनाथ भट येतकंच सगळें साफ जातलें.

**अंबिका** : म्हणजे कितें?

**अंता** : तोच सांगतलो कोण देव तो. देवांची ताका बरी पारख आसा.

**अंबिका** : दुडवांपरी दुडू खर्च आनी देवाच्या नांवाचो पत्तो ना!

**अंता** : थार धर म्हणलें न्हय. देवाचें नांव आत्तां कळ्ळ्यार त्या नांवान आत्तां आरत गायतली काय कितें?

(अंबिका तोंड धांपून वगी रावता)

नंदन : पापा, ही मूर्ती अशी कितें? हांव आनी राधिका मुखार आसा जाल्यार ही मूर्ती राधिकाकूच कशी पळयता?

(व्हदळच्यान मूर्ती तशें करताली.)

अंता : (थंयच रावून) तुमकां दिसता रे तशें.

नंदन : बेस्टेंच कशें? पळय आं.

(राधिकेक एकेवटेन दवरता आपूण दुसरेवटेन रावता. मूर्ती राधिकेवटेन पळयता.दोगांय जागा बदलतात. मूर्ती राधिकेवटेन पळयता.)

राधिका : (उमेदीन) खरेंच पापा, आई, मूर्ती म्हाकाच पळयता. आवयस! हांव कितलें लकी! आनी जाणां? व्हदळ बुरख्याभितर मूर्तीन म्हजो हात लेगीत धरिल्लो.

नंदन : खरेंच?

अंबिका : (वयलेवयर) जांव! तुजेर सगळी कृपादृष्टी दवरल्यार पुरो. आमचो हुस्को गेलो.

नंदन : पापा, आई, मूर्तिची आनीक मजा पळयात.

अंता : (थंयसावन) आनीक कसली मजा?

नंदन : मूर्ती फक्त राधिकेक पळयना. ल्हवू ल्हवू चोरयां ताचेवटेन चलतायबी.

(इतलो वेळ मूर्ती तशें करताली म्हणल्यार कांय इंच राधिकेवटेन सरकत गेल्ली.)

अंबिका : पुरो रे! देवाचीं कितलीं म्हण फकाणां मारतलीं?

राधिका : फकाणां न्हय आई. खरेंच मूर्ती म्हजेवटयां चलता. हाव वंडरफूल!

अंबिका : (उबगून) धांपून दवरात ती मूर्ती.

राधिका : शे! इतली बरी मूर्ती धांपून कित्याक दवरपाची? न्हय रे नंदन?

नंदन : आई, हांगासर यो.

अंबिका : ना. म्हाका तुमचेसारखीं देवाचीं फकाणां करपाचीं नात.

नंदन : फकाणां न्हय गे. मूर्ती राधिकेवटेन पळयता, ताचेवटेन चलता, ताचो हात धरता. जाल्यार तूं मुखार यो. पळोवया तरी.

राधिका : यो गे आई. म्हजेसारखी तुंवूय लकी जाल्यार पळोवया.

अंबिका : तुजें भाग्य उजळ्ळें जाल्यार आमकां पावलें. (घोवाक) न्हय?

अंता : (तिडून) तूं आनी एक बायल! भुरग्यांपरस नेणार.

नंदन : पापा, तूं कितेंय म्हण, म्हाका हे मूर्तिचीं लक्षणां धड लागना.

अंता : देवाचीं लक्षणां पारखुपी तूं कोण? ओपन क्लॉज पारखुपासारखें काम तें? कुशीक सरात मूर्तीकडलीं.

नंदन : मखरांत बसोवपाक नाका? भटमाम येता तेन्ना येता.

अंता : (मुखार येत) चल, (राधिकेक आनी अंबिकेक) तुमी हात लावपाची गरज ना. आमी दोगजाण पुरो.

(राधिका आनी अंबिका कुशीक उबीं रावतात. अंता आनी नंदन दोगूय मूर्त उखलतात. मखरावटेन व्हरतात. मूर्त राधिका आनी अंबिका आसा तेवटेन नदर घुंवडायता. मूर्त मखरांत बसयली तरी तांचेचवटेन पळयता. नंदन बापायचे नदरे अस्वडीं मूर्तिची मान सरळ करून मानेंक घट केल्लेभशेन करता. मूर्ती मखरांत बसयतकूच अंता दावे उजवे वटेंतल्यान, मुखावयल्यान मूर्ती सारखी उबी आसा काय ना तें पळयता. आतां मूर्ती सरळ आनी थीर आसा.)

अंता : (खात्री जातकूच) मूर्ती हेवटेन पळयता खंय! चलता, हात धरता, आतां कित्याक पळयना? कित्याक चलना? पिश्या मनाचे खेळ सगळे! तिगांय शेळ्या नक्षत्राचीं. (अंबिकेक आनी राधिकेक) चलात, आतां भट येसर तुमकां हांगासर कसलें काम ना.

(इतल्यान भायरसावन उलो आयकुपाक येता. 'रघुनंदनऽऽ आरे, ए रघुनंदनऽऽ')

अंता : कोणतरी येता.

नंदन : कोणतरी कोण? म्हाका मूळ नांवान उलो मारपी एकलोच. धाको मास्तर.

अंता : धाको मास्तर? हो कोण नवो मास्तर आयला गावांत?

नंदन : धाको मास्तर म्हटल्यार आमचो सट्टेगुरूजी. तागेल्या सदच्या नंबराखातीर ताका सगळे धाको मास्तर म्हणटात.

अंता : (दोगांकूय) तुमी आनी हांगासर रावूं नाकात. हो धाको गजाली सांगपाक बसलो जाल्यार नमनाकच धा मिनटां खातलो. मागीर च्यापाण्याचो आक्त. हांगां पयलींच वेळ उणो आसा. भितर निवेद्याची तयारी करात.

राधिका : पापा. भट येतकीच म्हाका आपय आं. ह्या देवाचें नांव कितें तें म्हाका भटमामाक विचारपाक जाय.

नंदन : तो येतकच तें जाहीर जातलेंच. धांपून कांय उरचें ना.
(भायरसून परत आवाज. अंबिका आनी राधिका बेगीबेगीन भितर वतात.)

अंता : नंदन, तुगेल्या धाको मास्तराक आनी मूर्ती दाखोवपाक नाका. ताचेरूच एक आख्यान सुरू करतलो.
(बेगीबेगीन देवान्याचीं दारां बंद करता. मूर्ती धांपून उरता.)

अंता : हांव भितर वचून पुजेक तयार जातां. तूं तेगेल्या मास्तराक बेगीन हांगासल्लो कडसराय. मुखावयलीं कामां आसात.
(भितर वता. भायरसावन सट्टेमास्तर येता. पुडवें, खोमीस असो भेस. माथ्याक तोपी पायांक व्हाणो. हातांत कपड्याची शिंविल्ली एक पिशवी. चलपाची एक विशिश्ट पद्धत. मास्तर येनाफुडें नंदन ताका कवायतिचे पद्धतीन सॅल्यूट करता)

नंदन : गुर्जी नमस्ते!

सट्टे : (खूश जावन) पोराची ही इतली एक गजाल म्हाका खूब आवडटा. म्हजो विद्यार्थी म्हण सांगपाक हीच एक अभिमानाची गजाल.

नंदन : पूण सट्टेमास्तर हें हांव तुमचेकडसून शिकूंना. पुलीसांची कवायत पळोवन शिकलां.

सट्टे : खबर आसा म्हाका. ह्या सट्टेमास्तरान शिकयिल्लें धा टक्के जरी तुवें आत्मसात केल्लें जाल्यार तूं आयज खऱ्यांनीच सादो पुलीस न्हय, पुलीस इन्स्पेक्टर जावपाचो. ही म्हाका मारता ती सॅल्यूट तूं घेवपाचो आनी अशे आंकडे पुंजायत गांवार भोंवचो नासलो. बसून पगार घेतलो आसलो आनी वयल्यान हप्तो.

नंदन : सट्टेमास्तर आतां हांव हप्तो दितां.

सट्टे : तोंड पळय म्हज्या शिश्याचें! आरे, तुजेबरोबरचे हांवें शिकयिल्ले भुरगे खंय खंय पावले!

नंदन : खंय पावूंना. थयच आसात.

सट्टे : खंय पावूंना कशें? तो पणसाआळींतलो पोक्या बी. ए. जालो. तो शीमेपायणींतलो दुलो एम. ए. जालो. त्या लक्षान एल. एल. बी. केली. कोणे आय. टी. आय. केलें. कोणे मॅनेजमेंट केलें. आनी तूं रघुनंदन कितें काय म्हणल्यार आंकडे गुंथता.

नंदन : पूण सट्टेमास्तर, एक सांगात,

सट्टे : कितें?

नंदन : ही तुमी जी येदी वळेरी दिली तातूंतले कितले जाण पोटाक लागल्यात? सगळे बेकार मूं? नाजाल्यार म्हाका पळयात. सांज जायसर ह्या तुमच्या रघुनंदाच्या खिशांत एका बोकड्याची किंमत आसता. सट्टेमास्तर, हे बोकडे नाही आहे, वस्तुस्थिति आहे.

सट्टे : बाकी तें तुजें खरें.
(विशय बदलीत)सांग राजा, आयचो शुभांक कितें?

नंदन : (जनेलाकडेन बोट दाखयत) तो थंय बरयला.

सट्टे : (थंय वचत) वा! ही असली वेवस्था केल्या? जांव, तुकां गणिताच्या नांवान चार आंकडे शिकयले ताचो इतलो तरी उपेग तुवें केलो. (पळयत) आरे, आजूय आमचो नंबर ना.

बेटा, मेरा नंबर कब आयेगा!

नंदन : मास्तर, तुम नंबर बदलके क्यों नहीं खेलते?

सट्टे : कतही नहीं. तें शक्य ना. हांव एकवचनी, एकपत्नी, एकलक्षणी, एकशाली तसो एक नंबरी!

नंदन : हय सट्टेमास्तर, तुमी दस नंबरी!

सट्टे : वा! वा! पोरान कितें जोक केलो. दसनंबरी!

नंदन : फक्त दसनंबरी न्हय. धाको मास्तर!

सट्टे : बरोबर. शाळेचे वणटीचेर कोणेतरी बरयलां. धाको मास्तर-झिंदाबाद!

नंदन : धाको मास्तर-अमर रहे! अशें लेगीत बरयिल्लें ह्याच हातांनी-

सट्टे : कितें?

नंदन : ह्याच हातांनी हांवे तें पुसून वडयलें.

सट्टे : बरें केलें. आतां आमी हो गुरूशिश्य संवाद हांगासर सोपोंवया. हांव सकाळीफुडें तुमगेर आयलां तो नंबर पळोवंक न्हय आनी तुज्या दर्शनाखातीर न्हय. हांव दर्शन करूंक आयलां तें-(देवाऱ्याचेर लक्ष वता) आरे, ही कूड हांगासर केन्ना तयार केली?

नंदन : देवाकूड ती.

सट्टे : देवाकूड? येंदी व्हडली? येंद व्हडले देवाकुडींत केदो व्हडलो देव आसचो पडलो!

(इतल्यान भितरसून अंता भायर येता. तो सोवळें न्हेसला)

अंता : नंदन, तो तुगेलो धाको मास्तर गेलो? (पळोवन) आरे, सट्टेमास्तर.

सट्टे : आरे, चारसो बीस नंबरी! ह्या सट्टेमास्तराक तूंबी धाको मास्तर म्हणटा? आमच्या नंबरार तुमी धंदो करतात आनी वयल्यान आमचीच, तुमच्या गिरायकांचींच फकाणां मारतात?

अंता : हांव समजलों, तूं आयलो तसो नंबर पळोवन गेलो म्हणून

(नंदन वचून जनेलाकडेन रावता. आतां भायरसावन लोकांचें नंबर लावप सुरू जालां. एक एक किरकोळ गिरायक जनेलांतल्यान भितर नंदनाकडेन पैशे दिता. नंदन तांकां इल्ल्याशा कुडक्यार नंबर बरोवन दिता.)

**सट्टे** : अंताराव, तसो हांव तुकां मेळ्याबगर वचपाक आयलां? (ताका पळोवन) आनी हें कितें? आयज तुगेर सत्यनारायणाची पूजा बी आसा काय कितें?

**अंता** : ना, ना. मूर्तिची इल्लीशी प्रतिष्ठापना आसा.

**सट्टे** : अशें. म्हणजे हे देवाकुडींत मूर्तीबी हाडून दवरल्या. पळोवया.

**अंता** : दार बंद केलां. मागीर एकदां पुजेक लायतकच पळोवपाक उक्तीच आसतली न्हय.

**सट्टे** : तेंवूय खरें. म्हणटकूच आतां एक काम वाडलें ना?

**अंता** : कसलें काम?

**सट्टे** : मूर्तीक नमस्कार करपाचें. मूर्ती खंयसावन हाडली?

**अंता** : उडुपीसावन.

**सट्टे** : तशें जाल्यार खरेच बरी आसतली. (मूर्त पळोवपाक वता) मागीरूच पळोवची म्हणटा तूं न्हय? (परतता) जांव, नमस्कार करपाच्या निमतान सद्दां एक पासय जाली. तशें आमकांय देवूळ खूब पयस पडटा न्हय? कूळदेवी तर पयस सट्टणांत.

**अंता** : आनीक कितें काम आशिल्लें?

**सट्टे** : रित्या हातान हांव केन्ना येवपाक आयलां? चल, पयलीं सिगार काड. विडी ओडून ओडून बेजार आयला.
(अंता सिगार दिता. मास्तर सिगार पेटयता.) आं, एक गजाल सांगपाक विसरलों.

**अंता** : कसली?

**सट्टे** : सेन्ससाचें काम सुरू जालां. जनगणना. मास्तर म्हणटकच तें काम गाडवाभशेन आमचेरूच सोपयलां. तुमीवाचूंना?

अंता : ना.

सट्टे : आरे, सद्दां पेपराचेर येता.

अंता : म्हाका खंय येता तुगेलो पेपर वाचूंक?

सट्टे : (समजून) हय मरे. (नंदनाक) रघुनंदन, तुवेंय वाचूना?

नंदन : (थंयसावन) कितें?

सट्टे : सेन्सस. लोकमेजणी संबंदी.

नंदन : सट्टेमास्तर, आमी पेपर फक्त नंबरापुरतो वाचता. नंबर ना जाल्यार तोवूय वाचना.

सट्टे : तर सेन्ससाचें काम वाड्याच्या त्या पोंतार सुरू केलां. आयज सांजचो नातर फाल्यां तुमगेर कागदां घेवन येतां. कत्यां मनशाकडल्यान सगळो तपशील बरोवन घेवपाक जाय. हें तुजें सिगार बरें आ.

अंता : (ताकतिकेन) सट्टेमास्तर, काम कसलें आशिल्लें? म्हगेलो भट येवपाचो जालो.

सट्टे : भट? कित्याक? कोणाचें श्राद्धबी आसा? (याद जावन) आं, मूर्तिची प्रतिष्ठापना. कोण भट? सिद्धनाथ मू? तो केन्ना वेळार येवपाक आसा? ताचीं वाटेर हजार कामां आसतात. कसल्या कार्याक आयिल्लों जाणा?

अंता : कसली तरी पटी आसतली!

सट्टे : तूं म्हण अंता मोटो धूर्त आं. चलाख आदमी. ह्या ह्या सगळ्याचेर एक नदर मारल्यार तुजी चलाखी दिसता. आपूण तरबेज जाला आनी आपले परंपरेन पुताकूय तरबेज केला. खरें म्हणल्यार आमी सगळ्यांनी तुजी देख घेवपाक जाय. शिक्षण-बिक्षण म्हणटा तें सामकें फट, शिक्षणाचो आनी वेवहाराचो कसलो संबंद ना. आमी इतले शिकून डी. एड्. बी. एड. करून म्हयन्याचे अखेरेक पगाराची वाट पळयतात. ह्या हातान पगार घेता – ह्या हातान खर्चिता. नाजाल्यार तुजें पळय. पदराक एक अक्षर ना. पूण आमच्च्या म्हयन्याच्या पगारा इतलो वेवहार तूं

एकाच दिसा करता. (एक छापील पत्रक दाखयत) हो आमच्या सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजेंचो शताब्दी समारोह.

अंता : म्हणजे कितें?

सट्टे : वाच न्हय! वाच.

अंता : तुवें आतांच सांगलें न्हय रे, म्हज्या पदराक एक अक्षर ना म्हणून. आनी खरें तें. म्हाका फक्त आंकडेच कळटात, वाचपाक आनी बरोवपाक.

सट्टे : हय, हय. तर हो -

अंता : सट्टेबहाद्दूर? म्हणजे सट्टेमास्तर तुमचो पूर्वज काय कितें?

सट्टे : (ताका फुसलायत) अंता, तूं म्हणल्यार मोटो पारखी. तुकां वा म्हणल्यार वार्ता म्हण रोकडें कळटा. तर हो सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे आमच्या इलाक्याचो. तुवें पारखिलां तसो आमचो पूर्वज. ताचें हें शताब्दी वर्स.

अंता : मरून शंबर वर्सां जालीं.

सट्टे : मातशें चुकलें, जावन शंबर वर्सां जालीं म्हण शताब्दी वर्स. तसो तो चाळीस वर्सांचेरूय मेलो. मोटो पराक्रमी पुरूष. सट्टे घराण्याचो निमाणो वंशज. तेन्ना आमचे पूर्वज सट्टणाचे मोटे वतनदार. ब्रिटीशांच्या काळांत आमचें मूत जळटालें. तर हो सट्टेबहाद्दूर खरेंच बहाद्दूर. तुजेसारखो. जुगारांत फिशाल. बायल म्हणल्यार जाली! ती मागीर कोणाचीय चलता. मरताना बरोवन दवरलें-पुनरजल्म लाबल्यार उरलेलीं कामां पूर्ण करतलों.

अंता : म्हणजे दुसऱ्यांल्या बायलांक फटयतलो! जुगार वाडयतलो. जुगाराचें एक बरें आसा, पूण-

सट्टे : पुनरजल्माचें कोणे पळयलां?

अंता : असल्या मनशाची तुमी शंबरी मनयतात?

सट्टे : आमी मनयतात म्हणजे कितें? थंय आमच्या इलाक्यांत सट्टणांत. आमी सट्टे, नोकरी-धंद्याच्या निमतान हांगा थंय

शिंपडल्यात. ह्या सट्टेबहाद्दूरच्या शताब्दी समारंभा निमतान सगळे एकठांय जातात. जातभाईंक एकठांय जावपाक असलीं निमतांच बऱ्याक पडटात न्हय? आमच्या गावांत जावपी सगळ्यांत व्हडलो उत्सव हो. सगळो इलाको एक जातलो. तुमीयबी कुटुंबासयत येवपाचें. येदो व्हडलो उत्सव म्हणटकच खर्चूय तसोच जातलो. गांवच्या लोकांनी एक पटी म्हाका धाडून दिल्या. (पटी काडून) तुमी तुमचें नांव बरयात.

अंता : सट्टेमास्तर, तुमकां सांगलें न्हय. म्हाका वाचपा-बरोवपाक कळना.

सट्टे : पूण तुकां आंकडे कळटात न्हय? तितलें पुरो. तूं आंकडो बरय. उरलेलें हांव बरयतां.

(मास्तर ताचेकडेन पटी आनी पेन दिता.)

अंता : आंकड्याचो खण दाखय.

(मास्तर दाखयता. अंता एक एक करून आंकडो बरयता. मास्तर खोशयेन मुरगट्टा. अंता पटी परत दिता आनी पैशे नंदनाकडल्यान घे म्हण कुरवेनूच सांगता.)

सट्टे : (खोशयेन) वा! हाका म्हणटा दानत! अंता, तुकां मानलो हांवें. ह्या गांवांत तुकां लागपी कोण ना.

(नंदन म्हऱ्यांत वता. नंदन पटयेवयलो आंकडो पळोवन मोन्यानी कांय नोटी काडून ताच्या हातांत दिता. तातूंतली एक नोट मास्तर परत नंदनाकडेन दिता. पयलीं नंदनाक कितें तें कळना. पूण मागीर मास्तर नंबर लायता म्हणपाचें कळटा.)

नंदन : नंबर कितें?

सट्टे : (फकाणां मारीत) धाको मास्तर आनीक दुसरो खंयचो नंबर लायतलो? हें पळय, लागलो जाल्यार तोच धाको परतुपाचो. समजलें? येतां. अंताराव, सेन्ससाचें याद दवर. सरकारी काम तें. आनी च्या घेवपाची उरली. अंबिका वयनीक सांग मागीर च्या घेवपाक येतां म्हणून. (नंदनाक) अंताराव, झिंदाबाद!

नंदन : सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे – अमर रहे.

(मास्तर भायर वता. अंताक सूऽऽ जाता.)

(मास्तर परत वता. अंता आतां ताकतीक करता. हांगचें सामान थंय दवरता. अंबिकेक, राधिकेक उलो मारता. नंदनाक तागेलें काम बंद करून पुजेकडेन वावुरपाक फर्मायता. पार्श्वभागाचेर मोटारसायकल फांस धांविल्ल्याचो आवाज लागीं लागीं येता आनी मागीर घडायंच करून ब्रेक मारिल्लेवरी जावन आवाज थांबता. फाटोफाट 'केशवाय नमः माधवाय नमः' असो भटपणाचो आवाज आयकूंक येता. मागीर भटपण करीत सिद्धनाथ भट सामको गडबडीन भितर सरता. अदमासान अंताचे पिरायेचो. सवळें न्हेसला. वयर उक्तें आंग. जानवें. आंगार, कपलार भस्माचे पटे. शेंडी दवरल्या. पायांतल्यो व्हाणो दाव्या हातांत धरल्यात. खांदाक एक मोटी पिशवी आसा. तिचेर गुटख्याची वा सुपारेची जायरात. पिशवेंत नाल्ल, तांदूळबी सामान आसा. पिशवी एकीकडेन दवरता, व्हाणो दुसरेकडेन. सामान दवरताना गल्लत करता. मागीर आसा तशें दवरता. अंतान आदींच गणेसपूजा मांडून दवरल्या. सिद्धनाथ येनाफुडें गणेसपूजेक बसता. भितरसावन अंबिका आनी राधिका भायर येतात. तीं भटाक हटकुपाचो यत्न करतात. पूण भट सामको भटपणांत गुल्ल आसा. गणेसपूजेक गंध, फूल, दुर्वा, शेंदूर, कापसाचें वस्त्र, धूप, दीप, निवेद्य दाखयता. सगळें गतीन चल्लां आसतांना अकस्मात कितेंतरी याद जावन थारता. सगळीं ताचेकडेन पळयतात.)

सिद्धनाथ : आवाज काय आलाय?

(कोणांक कांय कळना. सगळीं एकामेकाक पळयतात.)

सिद्धनाथ : आज नंबर काय आलाय रे?

(सगळ्यांक सूऽऽ जाता. नंदन आंकड्यांची खुणा करून सांगता. भट आपलो नंबर गेलो अशें मानून परत भटपणांक

आरंभ करता. तांबयो, शंख, घांट, दिवली हांची पूजा करता.)

सिद्धनाथ : मूर्ती कोठें?

अंता : थंय देवाऱ्यांत दवरल्या.

सिद्धनाथ : धांपल्याय कशास? उगडी कर मरे.

(अंता देवाऱ्याचें दार उक्तें करता. भितर मूर्त तशीच उबी आसा. भट कितलो वेळ मूर्तीकडेन पळयत उरता.)

राधिका : भटमाम, ही मूर्ती कसली तें पयलीं सांगात.

अंबिका : आमी तिका पळोवन पळोवन गोंदळत आसात.

नंदन : आनी भटमाम, मूर्ती कितें करता जाणा?

(भट्टय गोंदळ्ळा. अंताक कल्पना येता. तो वातावरण बदलपाचो यत्न करता. इतल्यान जनेलांत कोणतरी दिसता.)

अंता : आरे नंदन, थंय लक्ष दी मरे.

(नंदन जनेलावटेन वता.)

(अंबिकेक) आगे, व्हदळसावन वास कसलो येता?

अंबिका : कसलो वास? धुपाचो, उजवातीचो.

अंता : तसलो न्हय, तुगेलें गत्तीर कितेंतरी करपलां आसतलें.

(अंबिका भितर वता.)

(राधिकेक) आगो राधिका, तो निवेद्य तयार जाला जाल्यार हांगा भायर हाडून दवर. चल.

(तेंवूय भितर वता.)

अंता : सिद्धनाथा, हांव तुज्या पांयार घालून घेतां.

सिद्धनाथ : म्हाज्या पांयार कशाक? देवाच्या पांयार घालून घे न्हवे. पण मज एक सांग रे– ही मूर्ती कसली?

अंता : तेचखातीर हांव तुजे पांय धरतां. तू म्हाका तेंच सांग. ही मूर्ती कसली? म्हजे तकलेचें काम न्हय हें. म्हजी तकली खंयमेरेन चलता तें तूं जाणां.

सिद्धनाथ : पण ही एवढी मोठी मूर्ती तूं आणली कोठल्यान?

अंता : उडुपीसावन. कारगलच्या शेट्टीगराक मूर्ती करपाक दिल्ली. पैशे आदींच फारीक केल्ले. आज फाल्यां करून वर्स काडलें. पयर गेलों. शेट्टीगर घरा ना. ताची बायल काय कोण आशिल्ली. ही मूर्ती घरांत आशिल्ली. तशीच उखल्ली, हाडली.

सिद्धनाथ : आणली तें बरें केलें रे पण ही मूर्ती कसली?

अंता : आतां तें तूं म्हाका विचारता? हांव तुजेसारखो शिकलां? तेत्तीस कोटी देव मरे आमचे. म्हजेसारखो वळखून वळखून एक पांच पंचीस देवांक असो तसो वळखत. बाकिच्यांक वळखुपाचें काम तुमचेंच न्हय? भटाब्राह्मणांचे.

सिद्धनाथ : तें तर जालेंच. पण तूं त्या मूर्तीकारास कोणाची मूर्ती करव्या सांगितलेली?

अंता : आनीक कोणाची सांगतलों? देवाची.

सिद्धनाथ : पूण कोठल्या देवाची? (लक्षांत येवन) आं, आं. कळ्ळें. अंता तुझा हेतू माझ्या लक्षांत आला रे.

अंता : हातूंतल्यान तूच वाट काड. बायलेच्या आनी भुरग्यांच्या तोंडांतलो म्हाका एकदांचो सोडय. तुजे दक्षिणेचें बरें आसा. पूजा जातकूच मागीर निवांतपणान बसुंया.

सिद्धनाथ : बसाव्या कोठें वेळ हाय? आज मज मरव्यापासून फुरसत नाय. ही पूजा झाल्याबरोबर एक सत्यनारायण हाय. आणी इतकेंय करून आज संध्याकाळीं वाडीस जाव्या हवें. तेथे एक नवचंडी हाय. कमीत कमी चार-पांच दिवस तरी तेथेंच मुक्काम.

अंता : हें प्रकरण मीटय आनी मागीर वाडयेक, पांच न्हय, पंदरा दीस सुद्धा रावपाक हरकत ना.

(सिद्धनाथ मूर्तीक बारीकसाणेन पळयता. मूर्ती श्रीकृश्णाचे पॉजींत रावता.)

सिद्धनाथ : कृष्ण म्हटलें तर कृष्ण नव्हे.

(मूर्ती शंकराचे पॉजींत रावता.)

शंकर म्हटलें तर शंकर नव्हे.

(मूर्ती मूळ पॉजींत रावता.)

मूर्ती म्हटल्यार मूर्ती नव्हे. हा एक पुतळा कसाच दिसतो. शिवाजीमहाराजांचाबी असतो तसा. दोन हातांचा. (याद जावन) दोन हात! (उलो मारून) नंदन.

**अंता** : ही मूर्ती खंयच्या देवाची नासूं. पूण खंयच्च्यातरी एका देवाचें नांव हाका दिवपाक मेळटलें काय ना?

**सिद्धनाथ** : हो. हो. तशें करव्या काय हरकत हाय?

**नंदन** : (लागीं येत) कितें भटमाम?

**सिद्धनाथ** : (किरवटीचे सगळे पैशे ताचेकडेन दीत) ही आजची मर्तिकाची दक्षिणा. सगळी दोन नंबरार लाव. बघुंया तरी ह्या मूर्तिचें लक्षण.

(इतल्यान भितरसावन अंबिका भायर येता. फाटोफाट निवेद्याचें ताट घेवन राधिका भायर येता.)

**अंबिका** : ह्या दादल्याक बेश्टे भैरेजोळोप. खंय कितें करपुपाक, रान्नीर कितें दवरपाक नाका?

**राधिका** : पापा, हो निवेद्य हांगा दवरतां आं. भटमाम, मूर्ती कसल्या देवाची तें कळ्ळें?

**सिद्धनाथ** : अरे हां, हां. ही मूर्ती कोणाची खबर हाय? आरंभाक मी पण कसला घुस्पलों! अरे, ही मूर्ती भगवंताची मरे.

**तिगांय** : (अजापान) भगवंताची?

(अंता खुश जाला.)

**सिद्धनाथ** : होय. भगवंताची. भगवंत हें आमच्या परमेश्वराचें जनरल नांव नव्हे? आनी भगवंता हें ताचें विशेश नांव. समजलें?

**अंबिका** : आतां तुमी सांगता म्हणटकूच खरें मानचे पडलें ना?

**राधिका** : पूण–

**सिद्धनाथ** : (मदींच) पोरी, तुज्या कॉलेजांत हें असलें देवशास्त्र कोठें शिकवतात? मग तुमां कशें बरें कळणार तें? ह्या नंदनाक तर

आंकडे सोडून दुसरें काय कळपाचा प्रश्नूच येत नाय. ह
मरे?

नंदन : म्हाका हे मूर्तिची लक्षणां-
(मदींच बापूय दोळे वटारता)

सिद्धनाथ : बाकी अंता तूं मोठा घाडी आं. सगळेजाण राम, कृष्ण, विष्णू, म्हादेवाच्या मूर्ती आणटात. तुवें डायरेक्ट भगवंताची मूर्ती आणली. आनी आणचे आणून केवढी भव्य! तुज्या डोस्क्याची सर कोणा बुदवंताच्या तकलेस येवपाची नाय आं. (सगळ्यांक) तुमी अशें तोंड वासून काय बघतां? येवढी भगवंताची मूर्ती घरांत आनी तुमचीं तोंडां सुतकी कशास?

अंता : भटमाम, तूंच सांग तांकां.

सिद्धनाथ : खरें म्हणजे तुमी सगळ्यांनी घरांत पांच दिवस तरी उत्सव साजरा करव्या हवा. गायन, वादन, नाचगाणी. एऽऽ राधिके, त्या तुज्या कॉलेजीच्या गॅदरींगांत नाचत नाय? मग येथें नाचव्या काय होतें?

राधका : आई, भटमाम सांगता जाल्यार हांव नाचूं?

अंबिका : तुका उमेद आसल्यार नाच.

नंदन : राधिका, हांव नाचूं तुजेबरोबर?

अंबिका : तूं?

नंदन : तूं म्हणजे कितें? गणपती पायतना नाचना ?

सिद्धनाथ : प्रत्येकजण आपापल्या पद्धतीन नाचात. नाचपाशीं कारण. काय अंता?

अंता : बरोबर. नाच जालो म्हणटकूच जालें.

सिद्धनाथ : करा सुरवात. आमी येथें भगवंताची प्रतिष्ठापना करतात. तेथें तुमी नृत्यआराधना करात.
(भट आनी अंता मूर्तिची षोडशोपचार पुजा करतात.)

सिद्धनाथ : श्री भगवंता देवते प्रीत्यर्थ यथाज्ञानेन यथामिलितोपचार द्रव्यैः षोडशोपचार. पूजनमहं करिष्ये (भट, अंताक मूर्तिचे छातयेक

हात लावपाक लायता.)

**सिद्धनाथ** : शांतो भव, सुप्रसन्नो भव, वरदो भव, अभिसूखो भव, सुप्रतिष्ठितो भव.

(मागीर भट अंताकडल्यान – आवाहन, आसन, पाद्य, अर्ध्य, आचमन, स्नान, वस्त्र, जानवें, गंध, फूल, धूप, दीप, निवेद्य, नमस्कार, प्रदक्षणा आनी मंत्रपुष्पांजली अश्यो सोळा पूजा करून घेता. हें सगळें पार्श्वभागाचेर चलता आसतना राधिका गीत गायता आनी नाचता. त्याच तालार अंबिका फुगडी – धालांची पावली मारून नाचता, जाल्यार नंदन आधुनीक फिल्मी स्टायलीन नाचता.)

**सकाळपारा उक्तीं केलीं जनेल आनी दारां**
**आमच्या घरा खेळूंक आयल्यां किरां आनी मोरां**
**शोऽऽ किरा शो बाऽऽ मोरा बाऽऽ**
**आंगणांतली माणकां आनी मोतयां वेंचून खा ।।**

**आपय किरा तुजेवांगडा गीत गावक भोंवरां**
**नाच रे मोरा बांदून पांयांक छूमछूम घुंगरां**
**पांयांतळा जळामळा शिंवरल्यां हीं भांगरां**
**सगळीं सुखां देवून आयल्यां सुवर्णाच्या नगरां ।।**

(नाचगाणें आनी पुजा वांगडाच सोंपता.)

**सिद्धनाथ** : गीतं–नृत्यं–वाद्य करून अगदीं यथासांग षोडशोपचार पूजा जाली. आतां भगवंताक पायां पडात. तीर्थ–प्रसाद घ्या.

(अंबिका, राधिका, नंदन देवाक पांयां पडपाक मुखार येतात. ताटांत पैशे घालून पांयां पडटात. अंता तांकां तीर्थ प्रसाद दिता. अंता किरवटीचे पैशे काडटा.)

**अंता** : ही दक्षणा.

**सिद्धनाथ** : ती तेथें गणेशपुजेकडें ठेव. सगळें बरोबर नेतों.

अंता : (पैशे गणेशपुजेर दवरता.) तुका तीर्थ–प्रसाद बी? (तीर्थ प्रसाद घेवन मुखार येता.)

सिद्धनाथ : मजपण हेंच तीर्थ पिवव्या लावतो?
(अंताक कांय कळूंना.)
पूजा झाल्यावर बसुंया अशें म्हणत होता मरे तूं? काम जालें आनी वैज मेला कीं काय?

अंता : (याद जावन) आं. बसुंया. बसुंया. विशय हांवेंच काडिल्लो. पूण तुमीच म्हटलें न्हय, हें जायनाफुडें एक सत्यनारायण पूजा आसा आनी मागीर आयचे आयज वाडयेक वचपाक जाय.

सिद्धनाथ : वाडीस काय, तें संध्याकाळी ट्रेनीन जावयाचें अणी सत्यनारायणाची पूजा म्हणजे दनपारूच ती. ह्या लोकांक न्हाव्या धुव्या एक आदेस लागतो. मी तेथें जावन काय मुस्कां मारूं? अणी वेळा आदीं जावप म्हणजे भटाचा रेस्पेद कमी. आमी अणी मंत्र्यांनी उसरांच जाव्या हवें.

अंता : तशें जाल्यार बरेच जालें. कितल्या दिसांनी तुजो लाब जालो. हरशीं लोकांक जेवपाक भट मेळना. म्हजें नशीब म्हण म्हाका पिवपाक भट मेळटा. अंबिके, मेज मांड पळोवया बेगीन. नंदन, ती आरमारींतली बाटली हाड. राधिके, दोन ग्लास हाड.

सिद्धनाथ : ग्लास नको. पेले. स्टिलचे पेले.

राधिका : भटमाम, ग्लास कित्याक नाका?

सिद्धनाथ : पेले बरे. त्यात कांयम घालून पिल्यार कांयच कळत नाय.
(नंदन आनी राधिका भितर वतात. अंबिका मदीं ल्हानशें टीपॉय हाडून दवरता. अंता दोशीवशीं दोन कदेली दवरता.)

सिद्धनाथ : अंता हें तुजे अंबिकेक सांबाळ रे. दिवसानदिवस तरणी जायत चल्ल्या. त्या पोरांबरोबर नाचते कशी बगितली मरे?

अंबिका : हें कितें भटमाम, तीं भुरगीं खंय आनी हांव खंय!
(राधिका दोन पेले घेवन येता.)

सिद्धनाथ : खरें म्हणजे हे राधिकेक तूं त्या टिवीर बिवींर धाडव्याची. काय

नाचते! तो टिवीबीं फोडून उडोवपी आं.

**राधिका** : (खोशयेन) खरेंच भटमाम?

**नंदन** : (सोऱ्याची बाटली घेवन भायर येता.) आनी भटमाम, म्हाका खंय धाडपाचो?

**सिद्धनाथ** : नाचपाक.

**नंदन** : (ताचेचभशेन) अणी?

**सिद्धनाथ** : तुज भायर धाडल्यार कशें होणार रे? येथें दिवाळेक नरकासुरामुखार कोण नाचणार?

(सगळीं हांसतात. अंता पेल्यांत सोरो ओतता. दोगूय चिअर्स करपाक पेले उबारतात.)

**सिद्धनाथ** : जय भगवंता!

**अंता** : जय भगवंता!

(अंबिका आनी राधिका भितर वतात.)

**सिद्धनाथ** : अंता, खरें सांगतों, दृश्ट लागची असा तुजा संसार.

**अंता** : नंदन, मातशें थंय लक्ष दवर.

(नंदन जनेलाकडेन वता.)

**सिद्धनाथ** : तर अंता, मी काय सांगत होतों?

**अंता** : दीश्ट लागचो तसो म्हजो संसार!

**सिद्धनाथ** : तें जालेंच. (याद करून) आं, माणूस आहे तसाच उरत नाय. माणूस बदलतो. बदलत नाय ते इतर प्राणी. तो साप बिळांतच ऱ्हातो. तो पक्षी अजून तशींच घरटीं बांधतो. तूं बग कसलें घर बांधलें. घरांत काय काय आणलें. मूर्ती आणली, तुज खरें सांगू? ही असली मूर्ती आणून तूं उत्तम केलें. मूर्तींत म्हण कसला तरी बदल नको? सद्दां सद्दां त्याच राम अणी कृष्णाच्या, धनुष्यधारी आणि चक्रधारी मूर्ती म्हण कितका काळ बघव्याच्या? (पळयत) काय तुझ्या मूर्तिची ऐट! कसली मूर्ती म्हटलेली? (याद करून) विठ्ठला–

**अंता** : ना, ना, भगवंता

**सिद्धनाथ** : हो, हो. भगवंता.

(पळयता. तेसरशीं मूर्ती ऐटींत रावता.)

वा! वा! मूर्ती फक्त सुंदरच नाय, चेतनामय सुद्धां हाय.

**अंता** : भगवंतान म्हज्या धंद्याचेर, संवसाराचेर कृपादृष्टी दवरल्यार पुरो.

**सिद्धनाथ** : आरे, कशास थेवायचा नाय? नायतर मग एवढ्या मोठ्या विठ्ठलाचा-

**अंता** : भगवंताचो.

**सिद्धनाथ** : एवढ्या मोठ्या भगवंताचा घरांत असून उपयोग तो काय?

**अंता** : सिद्धनाथ, तुकां खबर आसा, ह्या धंद्यात ना बोडूक, ना शेपूट. सगळो अधांतरी वेवहार. आतां असोच गडगड्याच्या मांडार आनी इस्पीकांच्या पटार ल्हानाचो व्हड जालों म्हणून आपशींच ह्या धंद्याकडेन ओडलों. पदरांत चार अक्षरांय नाशिल्लीं.

**सिद्धनाथ** : तीं अक्षरां कशास? मड्यास? अक्षरां शिकिल्ल्यांनी काय दिवे लावल्याय?

**अंता** : पूण तुकां एक सांगतां सिद्धनाथ, ह्या धंद्यासारखो प्रामाणीक धंदो दुसरो ना. नातर हेर कसलोय धंदो घे. दरकडेन फटींगपणां आसात. पंचीसांची वस्त पन्नासांक विकतले. करारपत्रां, सेलाद फोलींचेर बरोवन वेवहार करतले आनी मागीर हें फट, तें खरें करून कोर्टांत सुण्या-माजरावरी झगडटले. धंद्याच्या नांवान फटींगपणां, बास्कळपणां, तड्डकां, चिकानां. पूण हांगा तशें ना. एका उतराचेर सगळे वेवहार. चोख. रूपयाक सत्तर जाल्यार सत्तर, णव्वद जाल्यार णव्वद. दितल्या – घेतल्याचो कसलो बरयिल्लो हिशोब ना. ना आंगठो ना सय. आतां फक्त नंबर बरोवन दिवपाचो तो लायतल्यांचे यादीखातीर. तो सुद्धां आतां. म्हज्या काळार हांव सगळें नंबर तकलेंत दवरतालों.

(नंदन एक चिटारो घेवन सिद्धनाथा म्हऱ्यांत येता.)

**नंदन** : घे

सिद्धनाथ : हें काय?

नंदन : तुवें लायिल्लो नंबर.

सिद्धनाथ : आतां लागल्यार पर्तुपाचा.

नंदन : याद आसा. (नंदन भायर वता.)

सिद्धनाथ : तुजा पूत तुजें नांव वरती काढणांर. सट्टेमास्तराचें शाळेंत चार यत्ता शिकवून तूं त्यास घरी थेवला तें उत्तम केलें. नायतर पुढं शिकून बिघडूनच गेला असता.

अंता : पूण मुखार ह्या धंद्याचो कांय भरवंसो ना. पुलीस म्हण आसा. सरकार म्हण आसा. काळापरमाणे माथ्याक कुरपणे, तशीं तांची बदलणारी धोरणां आसात. तात्पर्य; ह्या धंद्याची काय शाश्वती ना.

सिद्धनाथ : अंतां, अरे मूर्ख हाय. देशांत कसल्याय धंद्याची जर शाश्वती असेल तर ह्या एकाच. बाकिकडेन सगळ्याक चड उतार हाय. अणी पुलीसांचें काय घेवून बसलाय? ह्या धंद्याचें तेंच मुख्य गिरायक नव्हे? उद्यां हा खेळ बंद केला तर हे कोठे खेळणां?

अंता : तरीपूण ह्या धंद्याक कायद्याची मान्यता ना न्हय?

सिद्धनाथ : कायद्याची मान्यता नसलेले कितकेशेच धंदे ह्या देशांत चलतात. ह्या देशांतल्या कायद्यांक दोळे धांपून चलपाची संवंय. अणी लक्षांत धर, बेकायदेशीर हाय म्हणून धंद्यात शीस्त हाय.

अंता : तें खरें सिद्धनाथ. प्रतिष्टा नासूं पूण शीस्त आसा.

सिद्धनाथ : कसली प्रतिष्ठा घेवन बसलाय? आतां हें भटपण. मोठा प्रतिष्ठेचा व्यवसाय! खरें नव्हे? (अंता मानेन हयकार दिता.) तुजें बॉड! भटपणास कसली कर्माची आल्याय प्रतिष्ठा. मी ऍथल्यान गेल्याबरोबर तुमी म्हाजी फाटल्यान टवाळी करव्या लागणार. खरें मरे? (अंता मानेन हयकार दिता.) लजेस आनी पेजेस पडत नाय. माणसान पेजेचें बघावें. लज गेली खड्ड्यांत. खरें सांगू अंता, अरे तुजेसारखा भाग्यवान माणूस तूंच. मी हें त्या सट्टेमास्तरासारखें दुस्वासान म्हणत नाय.

अंता : तो धाको? सपन पडूं नाका ताचें!

सिद्धनाथ : मी जें काय बॉलतों ते मनापासून. अगदी काळजाचें झरींतल्यान बॉलतों. तोंडार एक फाटल्यान एक अशें मज जमत नाय. सरकारी योजनांचा लाभ घ्याव्याचा अणी वयल्यान सरकारासच गाळी मारव्याच्या. अशें करणाऱ्यापैकीं मी नव्हे. मी जेचें खाणार तेचेंच गाणार.

अंता : हांव तुकां बेसबरो वळखतां सिद्धनाथ. तू हेरांभाशेन न्हय. हांव हिका केन्नाय तेंच सांगतां. ही केन्नाय भटांक गाळीबी मारता न्हय? म्हणजे केन्नाय वेळाकाळाक त्यो मारच्योच पडटात. तर हांव हिका याद करून सांगता, पळय, भटांक गाळी मारतना तातूंतल्यान आमच्या सिद्धनाथभटाक कुशीक काड.

सिद्धनाथ : तुमी कुशीक काडव्याच्या आदीं ह्या म्हाज्या जातभाईंनी मज जातींतल्यान भायर काडपाची धमकी दिल्याय. मी हे असले वेवहार करतो नव्हे? मी उघडेपणी करतों, हे काळखांत करतात इतकाच काय तो फरक. मज धर्मशास्त्र शिकवणारे हे कोण? मी तें कोळून पिलाय. हेंच्यानी फक्त पोटाचे घेर वाडवून ठेवल्यात. यंदा आमच्या घरी दिवाळेस फोव खाव्यास येणार नाय म्हणे. तुमी नको येवं. मी आपला प्रत्येकाघरीं जाणार. लुकसाण कोणांस?

अंता : दिवाळेच्या फोवांचे कितें घेवन बसला? तूं आमगेर यो फोव खावंक. सकाळच्या आदेसाक फोव आनी दरनपारचे बांगड्यांचें हुमण.

सिद्धनाथ : (रूच काडीत) तें खरें. भाग्यवतांच्या घरा लक्ष्मी पाणी भरते- येथें अंताच्या घरा लक्ष्मी मीरसांग वाटते.

(दोगूय हांसतात. दोगांकूय सोरो लागला. इथल्यान भायरसावन नंदन येता.)

काय नंदन? आवाज काय रे?

(नंदन हाताच्या बोटांनी नंबर सांगता.)

आं! कल्याण जालें! खेळटल्याचें न्हवे. बुकिचें. नंदन, तुज काय दिसतें?

नंदन : कित्याविशीं म्हणटात तुमी भटमाम?

सिद्धनाथ : ह्या सरकारी जांवयांविशीं.

नंदन : सरकारी जांवय कोण?

सिद्धनाथ : हाच आंकड्यांचा जुगार. हा सरकारी जांवय. खऱ्या अर्थान ह्या जुगारास राजाश्रय हाय. कोणाचेंय सरकार येवं. त्यांची इतर धोरणां बदलतात पण हा जुगार तसाच चालू रावव्यास हवा अशें खालर्तीपासून वरमेरेन सगळ्यांचे धोरण. कारण सरपंचापासून आमदार, मंत्री, मुख्यमंत्री धरून खासदार तें केंद्रीय मंत्र्यामेरेन सगळेच ह्या धंद्यात गुंतल्याय. कोणाचें बोट तर कोणाचा हात. कोणाचें पोट तर कोणाची तकली ह्या धंद्यात रीगल्याय. अणी हा तुजा बापूय अंता काय काय म्हटल्यास ह्या धंद्यासच थर्त भितो.

नंदन : पूण पापासारखो हांव भिवपी न्हय. जाणां भटमाम, आमी सगळ्यांनी आतां आमची एक संघटना करपाची थारायल्या. सगळ्यांची संघटना आसा. कामदारांची, पसरकारांची, मास्तरांची, रापणकारांची, चोरांची लेगीत आसा. मागीर आमचीच कित्याक नाका?

सिद्धनाथ : अंता, तुज्या पोराचीं उतरां आयक.

नंदन : एका गोयांत आमचेसारखीं पांच हजार कुटुंबां ह्या धंद्याचेर पोट भरतात, हें हांव सांगना, आमचे मुख्यमंत्री सांगतात. म्हणजे सरकारान आमकां मेजून पासून दवरल्यात. मायबाप सरकार पांच हजारांच्या पोटार पांय दवरतलो अशें दिसता तुमकां?

सिद्धनाथ : फक्त पांच हजार पोटां न्हवे. पांच हजार कुटूंबांची मतांसुद्धां. एका कुटुंबांत धा मतां धरल्यार कितली जालीं?

अंता : हें मात बरोबर सिद्धनाथ. सामकें बरोबर.

सिद्धनाथ : अणी कसल्या जुगाराची कथा घेवन बसलाय? सोर्ती काडटात तो जुगार न्हवे? बऱ्या रंगीत कागदार आंकडे छापले म्हण

तें सवळें जालें? अणी जुगार-सट्टो म्हणटात तो आमच्या इतिहासांत सुद्धां हाय. आमी आमच्या महाभारतांत काय बगतात?

(इतल्यान भितरसान अंबिका आनी राधिका येता.)

कौरव आनी पांडव जो द्यूत खेळटाले तो जुगार न्हवे?

अंबिका : भटमाम, हांवूय सकाळीं हांका हेंच सांगतालीं.

सिद्धनाथ : जुगारांत पांडवांनी सीतेक पटाक लावली काय ना? लावली काय ना?

(सगळी घुस्पल्यांत.)

नंदन : भटमाम, तुमी महाभारतांत रामायण भरशिलें.

सिद्धनाथ : आं, आं, मज लागलेंशें दिसतें.

अंता : ना, ना.

सिद्धनाथ : आतां जाव्याचेपयलीं हा शेवटचा एकूच प्याला. तेथें सत्यनारायण म्हाजी वाट बगत बसला असणार. थंड पाण्यान आंघोळ केली म्हणजे हें सगळें निवळटलें, अणी मी शुद्ध होणार. (पेलो भरता. अंबिकेक) येथे येण्याच्या आदीं असाच शुद्ध होवन आलेलों. आंगोळ केली होती.

अंता : भटमाम, असो निर्वाळो दिवपाची गरज ना. तुमचेर आमचो पुराय विश्वास आसा. तेचखातीर कसल्याय कार्याक आमकां तुमीच लागतात.

सिद्धनाथ : अंता, तुज्या कुटुंबाच्या कल्याणाखातीर मज एक गोष्ट करव्यासच हवी.

अंता : सांगात भटमाम, सत्यनारायण, नवचंडी, तुमी सांगता तें करपाक हांव तयार आसां. खंयच कितें फाल्त जावचें ना.

सिद्धनाथ : तें मज खबर हाय रे. पूण हें तसलें देवकृत्य न्हवे. आजपर्यंत कोणा ब्राह्मणान कदींच केलें नाय आणी ह्याच्याफुडें कोण करव्यास धजव्याचा नाय तसलें काम हें. मोठें जोखमीचें. तशें बघव्यास गेल्यार त्यांत म्हाज्या जीवासय धोका हाय.

अंता : पूण भटमाम, असलें कसलें काम? आमी तुमच्या जीवाक

धोको आसल्यार कित्याक करपाक जाय?

**सिद्धनाथ** : आरे, सभाग्या, तुमच्च्यासारख्या निस्वार्थी कुटुंबाखातीर मजय थोडेंतरी निस्वार्थपण दाखोव्यासच हवें.

**नंदन** : भटमाम , तुमच्च्या भटपणासारखें तुमी हें कितें म्हणटा तें आमकां कळना.

**सिद्धनाथ** : कळणां. ह्या तुमच्च्या भगवंतास आधीं नीट बघून घ्या.

**राधिका** : आमी ताका पळयला.

**सिद्धनाथ** : ही मूर्ती सादी न्हवे. मूर्तींत चेतना हाय. मी तिच्च्यांत प्राणप्रतिष्ठा करतों आनी तीस सचेतन करतों.

**अंता** : म्हणजे?

**सिद्धनाथ** : म्हणजे मूर्ती जिवंत करतों.

**अंता** : जिवंत?

**सिद्धनाथ** : हाय. अंता मज एक सांग. ही मूर्ती घरांत कशाखातीर बसविल्याय? तुज्या घरांत सुख-शांती, धन दौलत यावी-देवाची तुज्या धंद्याचेर कृपा असावी ह्याच हेतून मरे?

**अंता** : हय, हय.

**सिद्धनाथ** : मागीर तुजेर कृपा करपी भगवंता जर प्रत्यक्ष जिवंत होवन तुज्या घरांत संचार करव्यास लागला जाल्यार सोन्यापरस पिवळें जालें नाय?

**अंता** : पूण हें कशें शक्य आसा?

**सिद्धनाथ** : ह्या सिद्धनाथाक सगळें शक्य हाय. म्हाजी सिद्धी तरी बघ.

**अंता** : सिद्धनाथ, तुकां लागलां. नस्ती भानगड नाका.

**सिद्धनाथ** : भानगड कसली? अणी समजा, नको जाला जाल्यार परत मंत्र म्हणून प्राण काडून घेवपाचा. आशिर्वाद देणारा भगवंता प्रत्यक्ष बरोबर रावपाक लागला जाल्यार त्यांत भानगड कसली?

**अंता** : तरीपूण प्रत्यक्ष भगंवता म्हणजे-

**सिद्धनाथ** : प्रत्यक्ष भगवंता म्हणजे... (अंताक) तुज्या फाटल्यान सदैव भगवंत राणार. तुजे तकलेस कसलाच त्रास नाय. फक्त बीट ज्यारा करव्याची. कोठलीं घरां आंगार थेव्याची आनी कोठलीं

फुडें धाडव्याचीं तें भगवंता सांगणार. (नंदनाक) तुवें ह्या बसीची त्या बसीची नंबराखातीर वाट बघव्याची नाय. भगवंताच ओपन-क्लोज नंबर सांगणार. पोलीस धरव्यास आले जाल्यार आदींच भगवंता तुज सावध करणार. (अंबिकेक) तुज्या अवती-भोंवती भगवंता. धोंपरां धरप, कमर धरप कसलीच पीडा नाय. येथें भायर येवन सुद्धां नमस्कार करव्यास नको. रांदचेकुडींत तुजे शेजरा भगवंता. (राधिकेक) तुजी अभ्यासांतली डिफिकल्टी तोच सोडवणार. तुज्या मित्राची गांठ घालून देणार. तुज नाचगाणे शिकवणार. तुज भायर जाव्या नको. प्रत्यक्ष भगवंता म्हणजे भगवंताचा सहवास, आदार आनी पाठबळ. आनंद, सौख्य, उल्हास ह्याचा वर्षाव. प्रत्यक्ष भगवंता म्हणजे शांतता, स्वास्थ्य, आरोग्य. बायंत अमृत. टायकेंत, नळांत अमृत. पिंपांत, बालदेंत, बाटलेंत अमृत. प्रत्यक्ष भगवंता म्हणजे कोनशास कोयराच्या जाग्यार हिरे - माणकांची रास. तिजोरेंत सोन्या चांदिचीं नाणीं. मोतयां, पाचू, केम्पां सगळ्याक जळामळा.

(अंता मातसो फाटीफुडें जाता. पूण बाकिचीं सामकी भुल्लुसल्यांत.)

**नंदन** : भटमाम, भगवंताक जितो कर. पळोवया तरी.

**राधिका** : ताका जितो पळोवपाची म्हाका उमळशीक लागल्या.

**अंबिका** : म्हाकाय लागल्या.

**अंता** : सिद्धनाथ, आमी कितें करपाचें तें सांग.

**सिद्धनाथ** : दोळे मिटून भगवंताची आरती म्हणव्याची. मी प्राणप्रतिष्ठा मंत्र म्हणटो.

**अंबिका** : भटमाम, करा सुरवात. आमी दोळे धांपले.

(सगळीं जाणां दोळे धापून मूर्ती मुखार हात जोडून उबीं रावतात. सिद्धनाथ हातांत अक्षता घेवन प्राणप्रतिष्टा मंत्र म्हणटा. मूर्तिचेर अक्षता वडयता.)

**सिद्धनाथ** : आं हीं क्रों देवस्य प्राणा इह प्राणाः। आं हीं क्रों देवस्य जीव

इह स्थितः।
आं ह्रीं क्रों देवस्य सर्वेन्द्रियाणि वाङ-मनः-त्वक्-चक्षुः-श्रोत्र-जिव्हा-घ्राण-प्राणा इहागत्य सुख चिरं तिष्ठन्तु स्वाहा।। असुनीते पुनरस्मासु चक्षुः पुनः प्राणमिह नो धेहि भोगम्। जोक्पश्येम सूर्यमुच्चरन्तमनुमते मृळ्या नः स्वस्ति।। भगवंतास्य गर्भाधानादिपञ्जदशसंस्कारसिद्धर्थ प्जदश प्रणवावृत्तीः करिश्ये।। सुप्रतिष्ठितमस्तु।।

(मंत्र सोपनाफुडें चौगाय जाणां आरत म्हणपाक आरंभ करतात. आरत चालू आसताना सिद्धनाथ तांच्या फाटल्यान येता. आपली पोती उखलता. गणेसपुजा आनी थंय दवरिल्ली दक्षणा काडपाक वता, पूण तांकां जाग येत म्हण फाटलेफाटीं परतता आनी व्हाणो हातांत घेवन दारांतल्यान भायर कूस मारता. आरत रंगार येता.)

**देवा धनया भगवंता। दर्शन दी रे गुणवंता।।**
**अजाण बाळकां अज्ञानी। उज्वाड दाखय यशवंता।।**
**पांचांचे पंचीशट कर रे। तुज्या पांयांर श्रीवंता।।**
**पाव्ळे पाणी पाइसाक पाव्य। तुजें काम तें धनवंता।।**

(देवाऱ्यांतल्यान मूर्ती सजीव जाता आनी आरतीच्या तालार पावली मारत भायर येता. चौगांय जाणां-ल्हवू ल्हवू दोळे उक्ते करतात. भगवंताक पळोवन तांकां खोस जाता. तिंवूय भगवंता वांगडा नाचपाक लागता.)

(काळोख)

# अंक : दुसरो
## देखाव – एक

(घराचो तोच देखाव. पयल्या दिसा उपरांतच्या दुसऱ्या दिसाची सकाळ. देवाऱ्याची दारां धांपल्यांत. अंता सोवळें न्हेसून पुजेचे तयारे खातीर बोवाळटा. मर्दींच उलो मारून)

**अंता** : अंबिकेऽऽ तीं पुजेचीं आयदनां खंय आसात?

**अंबिका** : (भितरसावन) काल दवरिल्लीं थंयच आसात.

**अंता** : राधिकेऽऽ निवेद्य जालो?

**राधिका** : (भितरसावन) जाता पापा, जाता. तुजी पूजा सुरू जावंदी.

**अंता** : पूजा म्हजी न्हय. भगवंताची.

(भितरसावन नंदन भायर येता.)

आरे, तूं आजून हांगाच? भितर कितें करतालो?

**नंदन** : पोटपुजा करतालों.

**अंता** : थंय बस येवपाची जाली. बस चुकली जाल्यार नंबर चुकतलो.

**नंदन** : नंबर कसो चुकतलो?

**अंता** : नंबर चुकतलो म्हणजे–

**नंदन** : पापा, आजून आमी अशे बशीर नंबराक रावपाचें?

**अंता** : म्हणजे?

**नंदन** : हो नंबर आमकां घरांत कळपाक नाका? (सिद्धनाथाचो अभिनय करीत) ह्या बसीची त्या बसीची नंबरासाठी वाट पळोवपाक

नाका. भगवंताच ओपन-क्लॉज नंबर सांगतलो.

**अंता** : आरे, कालचीच गजाल न्हय ही? आयजसावन नाजाल्यार फाल्यांसावन सुरू करूंया. आयजूच हांव उलयतां.

**नंदन** : कोणाकडेन?

**अंता** : कोणाकडेन म्हणजे? प्रत्यक्ष भगवंताकडेन.

**नंदन** : मागीर कळाव कित्याक?

**अंता** : आरे, मातसो थार धर. पयलीं भगवंताची पूजा तरी करतां.

**नंदन** : पापा, तूं थार धर. पूण म्हाका थार धरपाक जावचोना. आनी तुकां आदींच सांगतां-

**अंता** : कितें?

**नंदन** : तुज्या भगवंताच्या भरवंशार हांवें कालची सगळी बीट आंगार दवरल्या.

**अंता** : आवयस! सगळी आंगार दवरली? व्हडलींय घरां दवरल्यांत?

**नंदन** : हय.

**अंता** : आरे,पूण आंगार दवरलेल्या घरांतलो एक नंबर फुटलो जाल्यार? धुवून वतले मरे आमी.

**नंदन** : कित्याक धुवून वतले काय म्हणटां? प्रत्यक्ष भगवंता आमच्या घरांत आसताना?

**अंता** : आरे, पूण पयलीं भगवंताक सांगूंक नाका आसलें?

**नंदन** : कित्याक सांगपाचें? भगवंता सगळें जाणपी, अंतर्यामी न्हय तर?

**अंता** : तुकां थार ना म्हणटा तेंच खरें. चल नंबर घेवन यो.

**नंदन** : पूण फक्त आयजूच आं.

**अंता** : हय रे. फायचें मागीर पळोवया. हांव पयलीं पूजा करतां. (नंदन भायर वचपाक वता. अंता देवाऱ्याकडेन वता आनी दारां उक्तीं करता. भितर मूर्ती ना. अंता किळांच मारता.)

**अंता** : आरे, आरे भगवंता खंय? भगवंता देवाऱ्यांत ना. देवा म्हज्या!

म्हजो भगवंता! पंचवीस हजारांचो भगवंता.

नंदन : (फाटीं वळून) पापा, कितें जालें?

अंता : आरे, भगवंताची मूर्ती?

नंदन : तुवे रातीं देवाऱ्याचीं दारां धापूंक नाशिल्लीं? कुलुपबी?

अंता : आरे, दोनीय दारां अशीं आड केल्लीं. भितर प्रत्यक्ष भगवंत आशिल्लो न्हय रे?

नंदन : तें खरें. पूण सगळे आपापल्या देवळांनी देवाक कुडींत बं करून भायल्यान कुलपां लायतात, तें तुकां खबर ना? कुल फोडून मागीर चोरयो पासून जातात तें आयकूंक ना?

अंता : हय रे. पूण ते देव आनी आमचो भगवंता हाचेमदीं फरक आसा.

नंदन : कसलो फरक?

अंता : तीं जागृत दैवतां! पूण आमचो भगवंता प्रत्यक्ष जितो जिवो! तो भितर आसताना भायल्यान खिळी घालून कलयाद कशें लावपाचें?

नंदन : कशें लावपाचें म्हणजे? पंचवीस हजार न्हय तर ते?

अंता : आतां कितें करपाचें?

नंदन : अशा वेळार कितें करतात तें म्हाका खबर ना. नंबर चुकलो जाल्यार कोणूय कपलार हात मारता इतलेंच हांव जाणां.

अंता : कपलार हात मारून आनी कपलां फोडून कितें जातलें? पुलीसेंत कागाळ करूया?

नंदन : कितें म्हणून?

अंता : भगवंता चोरयेक गेला म्हणून

नंदन : पुलीस येवन पंचनामो करतले. हजार प्रश्न विचारतले. भगवंता कोण, खंयचो सगळें सांगत बसतलो? ते आदींच आमचेर कोंत्र.

अंता : आमचेर कोंत्र कित्याक? आमी हप्तो दिनात काय कितें तांकां?

नंदन : ते हप्तो वाडोवन मागतात. ना जाल्यार धाड घालतले म्हणटा.

अंता : हो कसलो सांवार सायबा!

नंदन : तांचें म्हणणें, म्हारगाय खूब वाडल्या. इतल्यान भागना.

अंता : इतल्यान भागना जाल्यार पगार वाडोवन मागात म्हणजे.

नंदन : पगार वाडोवपाक थंय सरकार बसलां. म्हजो बापूय अंता बसूंना.

अंता : खरें तुजें. हाणी आमकांच पिळपाचे. गरीबांक कोण वाली ना. भगवंता, हें कितें चल्लां तें तुज्या दोळ्यांनी पळय सायबा. आनी आमकां साल्वार कर हातूंतल्यान. (भगवंताक नमस्कार करपाक वता आनी मागीर लक्षांत येता–भगवंता ना. व्हडल्यान रडटा.) भगवंताऽऽ खंय गेलो रे आमकां सोडून?

(इतल्यान भितरसावन राधिका येता.)

राधिका : पापा, पूजा जाली? आं, पापा कितें जालें?

नंदन : भगवंता गायब, फरारी.

राधिका : (रडत) आं. भगवंता ना. म्हजो भगवंता.

अंता : (ताका धपकायत) पुरो कर राधिका. क्रेद्यान रडटा? तुजो बापूय जितो आसा आजून.

राधिका : पूण भगवंता ना न्हय? भगवंताची सर तुकां येता पापा? आई गेऽऽ बेगीन भायर यो.

(अंबिका काम करता थंयची तशीच धांवत येता.)

अंबिका : आगो, अशें कितें जालां? आतां घरांत शांतताय नंदतली म्हण सिद्धनाथभट सांगून गेला आनी तूं लागलें आरडपाक?

नंदन : त्या सिद्धनाथ भटाखातीर हें सगळें जालें.

अंबिका : कितें जालें?

(पळोवन) आगे बाये, भगवंता खंय?

नंदन : ताणे मंत्र मारून ताका सचेतन काय कितें केलो न्हय? तो तसो जालो. आमचेबरोबर नाचलो आनी उठून गेलो.

अंबिका : पूण भगवंता आमकां सोडून कसो वतलो? हाचेपयलीं कोणाचे देव कोणाक अशें सोडून गेल्यात? भक्त थंय देव न्हय?

नंदन : सोडून वचूंना. पूण देव अशे जितेय जावंक नात न्हय?

अंता : तूं हांगा फकाणां कसलीं करता रे? चल, असो भायर वचून ताका पळोवन यो.

नंदन : खंय म्हणून पळोवन येंव?

अंता : खंयूय. तो आसा थंय.

नंदन : वतां, वतां. आंगडींत, नुस्त्याबाजारांत सगळ्याक पळोवन येतां. आयज धंद्याचें खळें जाता दिसता.

(वचपाक वळटा. अकस्मात थारता. काचाबूल जावन कडेक रावता. मुखावयल्यान भगवंता येता. आदल्याच भेसांत आसा. चलपाची, उलोवपाची आनी वागपाची एक खास लकब. ताका दारांत पळयनाबरोबर अंता, अंबिका आनी राधिका वांगडाच आड्डतात.)

तिगांय : भगवंताऽऽऽ

(भगवंता कच्च करून आंग काडटा. कोणाक उलो मारलो अशा दुबावान आपूणच फाटीं वळून पळयता. मागीर सांवरता.)

अंता : भगवंता, तूं खंय गेल्लो?

अंबिका : कितलो हुस्को जालो!

राधिका : म्हाका तर घुंवळ येवपाकडेन पावली.

अंता : भगवंता, असो अकस्मात कित्याक गेलो? आमचें कितें चुकलें?सांग, सांग भगवंता.

भगवंता : (अजापान) भगवंता!

अंता : हय. तूंच आमचो भगवंता.

भगवंता : थोडी थोडी याद जाता. पूण सारखी याद जायना.

अंता : जातली, जातली. कालूच तर प्रगट जाला.

भगवंता : प्रगट जाला?

अंता : म्हणजे स– सचेतन जाला.

भगवंता : (अदमास लायत) अशें.

अंता : खंय गेल्लो भगवंता ?

भगवंता : उबो रावून रावून पांय वळ्ळे. मातशे पांय मेकळे करून आयलों. भायर बरें वारें आसा.

अंता : भगवंता, तें वारें तुकां नाका. तें आमकां मनशांक.

भगवंता : तान लागल्या. पिवपाक कितेंय जाय.

नंदन : अमृत!

राधिका : हांव भगवंताखातीर उदक हाडटां. (भितर वता.)

अंता : भगवंता, थंय (देवाऱ्यांत) उबो रावता न्हय?

भगवंता : थंय? उबो रावून पांय वळटात. बसपाक एक बसका जाय.

अंता : बरें भगवंता, मेस्ताक सांगून एक बरीशी बसका करतां.

नंदन : आसन!

(राधिका उदकाचो पेलो हाडटा. भगवंताक दिता. तो पियेता.)

भगवंता : वा! सुरबूस उदक! बरो वास आयलो!

अंबिका : (राधिकेक ल्हवूच) पापणी, खंयच्या पेल्यांत उदक हाडलें गो? ते थंय कुशीक दवरिल्ले ते पेले हांगेले आनी भटमामाले पिवपाचे.

भगवंता : (राधिकेक) तुज्या हातान हाडलां म्हणून इतलें बरें लागलें.

राधिका : (लजत) आंवय! हें कितें भगवंता, उदकाक इतलें जाल्यार हांवें केला तो निवेद्य खाल्ल्यार कितें म्हणटले?

अंता : भगवंता, थंय (देवाऱ्यांत) वचून रावल्यार पूजा करतलों आसलों.

भगवंता : पूजा? आं, पूण हांव आजून न्हावंक ना.

अंता : हांव न्हाणयतां न्हय. हो तांबयो, ही पळी–

भगवंता : पूण हांव केन्ना थंड उदक न्हाल्ल्याची म्हाका याद जायना.

अंबिका : भगवंता, हांव तुकां भाणभर उदक तापयतां. जाय तितलें न्हा. (भितर वता.)

राधिका : भगवंता, हांव तुकां साबण दितां आनी आंग पुसपाक तुवालो घेवन येतां. (भितर वता.)

अंता : म्हणटकूच भगवंता, तूं अशे तरेन न्हाता म्हणटा?

भगवंता : न्हावपाचें बरें आसा. पूण म्हज्या कपड्यांचें कितें? ह्या आंगावयल्या कपड्यांक कितले दीस जाले कोणांक खबर. घामसाण मारता. असलोच एक पार जाय आसलो.

अंता : हाडुया. शिंवप्याक शिंवूंक लावया. नंदन-

नंदन : हांगासर देवाचे कपडे कोण शिंवीना.

अंता : आरे, शिंवीना कित्याक? जॉक दिल्यार शिंवपाक कितें?

नंदन : जॉक दी.

अंता : (गोंदळून) एक तर भगवंताक शिंवप्यागेर व्हरचो पडलो नातर ताकाच हांगा हाडचो पडलो. (नंदनाक) कितें करूंया?

नंदन : ताकाच विचार.

अंता : (नंदनाक) शिंवप्याकडल्यान एक फ्री सायजीन असलो पार शिंवून घे. मातसो सदळसो शिंवल्यार पुरो.

भगवंता : हय, हय. आनी... आनी भितरलीं अंतवस्त्रां.

अंता : (ना कळून) कितें?

भगवंता : अंतवस्त्रां... (अंडरवेअर ह्या अर्थान)

नंदन : (अंडरवेअरचे जायरतीचे स्टायलींत) समजलें? यह आराम का मामला है।

अंता : चल, चल सांगलां तें सारकें कर आनी बेगीन.

नंदन : मेस्ताक सांगपाचें, एक कदेल करपाक. आराम खुर्ची! शिंवप्याक सांगपाचो देवाचो फात. तीन आराम का मामला! आनींक कितें?

अंता : आनीक कांय नाका. येतना नंबर हाड.

नंदन : ताका विचार न्हय.

अंता : (आखडत) भगवंता, तुकां नंबर खबर आसा?

भगवंता : (तो समजता अंडरेअवराचो म्हणून) ना. याद ना.

**अंता** : (नंदनाक) आयज पयलोच दीस न्हय. फाल्यांसावन सारखें जाग्यार पडटलें.
(नंदन भगवंताचीं फकाणां मारीत भायर वता.)

**भगवंता** : हो भायर गेलो तो तुगेलो-

**अंता** : पूत. नंदन. हांव अंता, ताचो बापूय.

**भगवंता** : तें कळ्ळें.

**अंता** : भगवंता, मातशें लक्ष दवरपाचें. भुरगो आसा. आडांगीपणां आसात. पूण भुरगेपणा पासून हातूंत लक्ष घातलां.

**भगवंता** : हातूंत म्हणजे?

**अंता** : ह्या धंद्यात.

**भगवंता** : कसलो धंदो?

**अंता** : कसलीं फकाणां करता भगवंता? तुकां आनी सांगपाक जाय? होच धंदो! ओपन-क्लॉज. (थंयच्यो मेजावयल्यो पटयो पेपर काडून) हीं हीं धंद्याचीं पुस्तकां. कसलीं कसलीं तांचीं नांवां. नंदन तीं दीसरात वाचता. तुकां वाचपाक येताच न्हय भगवंता. आतां तुंवूय हातूंत मातशें लक्ष घाल. थंय देवाऱ्यांतूच दवरल्यार पुरो. जाय तेन्ना अभ्यास कर तांचो.

**भगवंता** : (चत्रायेन पळयता.) आतां मातशी मातशी याद येवपाक लागली.

**अंता** : जांव, बरें जालें.

**अंबिका** : (भितर सावन) भगवंता, न्हावपाक उदक काडलां.

**अंता** : ही म्हजी घरकान्न अंबिका.

**भगवंता** : पयल्याच धपक्याक वळखलों तिका.

**अंता** : तिचेरूय कृपादृश्टी दवरपाची.

**भगवंता** : हय. हय.

**राधिका** : (भितर सावन) भगवंता, मान्न्यांत तुवालो दवरला. तुकां साबण पुरो काय उटणे जाय?

**अंता** : ही म्हजी धूव राधिका.

**भगवंता** : वा! राधिका!

**अंता** : भगवंता, तिचेरूय नदर दवरपाची.

**भगवंता** : दवरतां. आतां खऱ्यांनीच मातशी मातशी न्हय खूब नेटान याद येवपाक लागली.

**अंता** : तशें जाल्यार खूब बरें जालें.

**अंबिका** : (भितर सावन) भगवंता, उदक न्हिंवतलें. बेगीन यो.

**राधिका** : (भितर सावन) भगवंता, तुवालो सादो दिवं काय कुसांचो?

**भगवंता** : हांव पयलीं न्हावन येतां. आंग पुसून येतां. मागीर फुडल्या कार्याक लागतां.

**अंता** : सवकाश भगवंता, मान्न्यांत निसरशीबी.

(भगवंता हातांतल्या आंकड्यांची ल्हान-व्हड पत्रकां देवाऱ्यांत दवरता आनी भितर वता.)

जांव! भगवंतान सगळ्या कार्याचो पत्कर घेतल्यार पुरो!

(हांगा थंय पासयो मारता इतल्यान ताका कसली तरी याद जाता. बायलेक आनी धुवेक उलो मारता.)

**अंता** : अंबिकेऽऽ, राधिकेऽऽ मातशीं भायर येयात.

**अंबिका** : (भायर येत) अशे कित्याक सादयतात? हांव भितर कामांत आसा न्हय?

**अंता** : कसलें काम? उदक तापोवन जालें. आतां कितें तांबये भरून दिताली?

**अंबिका** : अशें कितें उलयतात तुमी?

**राधिका** : (भायर येत) पापा, कामांत आसताना मर्दीच कितें आपयता?

**अंता** : कसलें काम? तुवालो आनी साबण व्हरून मान्न्यांत दवरलो मुगो? जालें. आनी तुवालो सादो काय कुसांचो म्हणजे कितें?

**राधिका** : म्हणजे भगवंताक कुसां बी तोपलीं जाल्यार?

**अंता** : (चाळयत) तोंपलीं जाल्यार! तोंपल्यार काडपाक आसाच न्हय

तूं. आनी भगवंताक उटणें लायता? आयज कितें चवथ काय दिवाळी?

राधिका : पापा, तुकां कितें म्हणपाचें आसा? हांव म्हज्या नाचाची प्रेक्टीस करतालें.

अंबिका : ह्या दादल्यांची नदरूच दुबावी.

राधिका : आंवय! पापा, हीं अडाणीपणाचीं लक्षणां आं. सो ऽऽ बॅकवर्ड!

अंता : पुरो. म्हजीं दादलेपणां आनी अडाणीपणां वयर काडपाची गरज ना. हांवें तुमचेपरस चार पावसाळे चड पळयल्यात. फक्त आंकड्यांकडेन खेळूंना हांव. मनशांयकडेन खेळ्ळां.

अंबिका : मनशांचें बरें आसा. भगवंताची सर मनशांच्या सभावाकडेन कित्याक करता?

अंता : हें पळय, भगवंता जालो तरी तो दादलो. आनी तुमी बायलो. एकामेकापासून चार हात पयस रावप रेस्पेदाचें आनी शाणेपणाचें.

अंबिका : शी! तुमची नदरूच पाडी. (रागान भितर वता.)

अंता : (आपलेंभितर) नदर पाडी! सोऽऽ बॅकवर्ड! हं. कोणे पळोवंक नासलें खंय धेरकेल ताणे पळयलें कालूं. मागीर कितें? वल्लेतूय धरना आनी सुपांतूय धरना!

(इतल्यान भायरसावन नंदन येता. ताचें तोंड पडलां. येनाफुडें हातांतलीं पत्रकां मेजार आदळटा.)

अंता : यो नंदन, काम जालें?

नंदन : ती कदेल कितें थर्माकोलाची घडोवपाची? आनी फात कितें कागदां दसोवन करपाचो?

अंता : तें न्हय रे. ताका दीस लागतले म्हण खबर ना तर म्हाका? हांव विचारतालों नंबर.

नंदन : बसीर आयलो.

अंता : कितलो?

(हाताचें तायट दाखयता. ताचेर बरयला. पळोवन) अशें! पूण ह्या घराचेर लोकांचे चड पैशे नाशिल्ले मरे?

नंदन : घर कोंसळ्ळें.

अंता : म्हणजे?

नंदन : सगळ्यान चड पैशे (अमके रूपया) ह्याच घराचेर आशिल्ले. आतां अंयंशी रुपयाच्या हिशोबान सगळे फारीक करपाचे.

अंता : आरे, सगळें धुवन न्हय, कोनसो पसून पुसून वतलो.

नंदन : बाजारांत तुकां सगळे रावतात. थंय वच. नाजाल्यार हांगासर जनेलाकडेन सिनेमाच्या तिकेटींक लागता तशी लायन लागतली.

अंता : पूण इतले पैशे–

नंदन : कितेंतरी वेवस्था करूकच जाय. हारोहार पैशे फारीक करिना जाल्यार आमचीं गिरायकां फाल्यां तिगपाक ना.

अंता : तेंवूय बरोबर. कितेंतरी वेवस्था करपाकूच जाय.

नंदन : बेगीन. अशा वेळार लोकांक थार नासता. ते पैशे बार्राचेर कडोवपाक नाका? म्हजेकडेन इतले पैशे नाशिल्ले देखून हांवें कूस मारली.

अंता : पूण हांव पूजेक बसलां न्हय. रोखडो कसो भायर सरतलों?

नंदन : कसली पूजा घेवन बसला? देव आपले आपूण न्हालो. तसोच आपल्या हातान न्हेसतलो. निवेद्य करतलो. बसतलो, उठटलो. तुवें आनी वेगळें कितें करपाक जाय? एक नमस्कार केल्यार पुरो. आरत म्हणपाची जाल्यार ती आमी म्हणटां. आतां आमचेखातीर आरतीच म्हणपाचें काम.

अंता : हय मरे. तेंवूय खरें. तशें जाल्यार हांव बाजारांत वचून येतां.

नंदन : पापा, तें सोवळें काय पिवळें न्हेसला तें बदलूच वच. नाजाल्यार लोक भर बाजारांत तेंच सोडोवन घेत.

(अंता कपडे बदलपाक भितर वता. नंदन जनेलाकडेन वचून सदच्या जाग्यावयलो नंबर बदलता. जनेलांत एक दोग जाण

येतात. ते लागिल्ल्या नंबराचे पैशे मागतात.)

**नंदन** : पैशे घेवन पापा बाजारांत येतलो.

(भायर गिरायकां जनेलांतल्यान हुज्जत घालतात. तरातरांनी उलयतात. 'घेवपाचे पैशे बरे जनेलांतल्यान आनी दिवपाच्या वेळार बाजारांत?' 'ए अंता, दिवपाच्या वेळार कित्याक खंता?' -नंदन तांकां समजायता आनी ते अदीक हुज्जत घालतात तेन्ना जनेलूच बंद करता.)

**नंदन** : (उलो मारून) पापा, बेगीन भायर सर. लोक हांगा पावले. लोकां फाटोफाट पुलीस पावपाक नाका.

(अंता आंगार कपडे घालून भायर वचपाचे तयारेंत ताकतिकेन भायर येता.)

**अंता** : भायर सरलों, पूण पैशांचें? (याद जावन) अंबिकेऽऽऽ अंबिकेऽऽऽ

**अंबिका** : (येत) कितें जालां परत सादोवपाक? हांव खंय मान्याकडेन नाशिल्ली आं. रांदचेकुडींत आशिल्लीं. समजलें?

**अंता** : समजलें. मान्ने आनी रांदचीकूड हाचेमदीं कितें धा मैलांचें अंतर आसा? तें मातशें गळ्यांतलें काडून दी.

(अंबिका मंगळसूत्र काडपाक पळयता.)

**अंता** : तें कितें काडटा? येन्नाच काडटा?

**अंबिका** : तुमी काड म्हणलें न्हय?

**अंता** : गळ्यांतलें काड म्हटल्यार मंगळसूत्र काड म्हणून सांगूं ना.

**अंबिका** : म्हाका कितें खबर?

**अंता** : ती माळ दी. आनी हाताचीं दोन कांकणां.

(अंबिका माळ आनी कांकणां काडून दिता.)

मागलीं म्हणटकूच दिलीं. कित्याकबी म्हण विचारप ना.

**अंबिका** : कित्याक विचारप? तुमी केल्ल्यो वस्ती तुमी मागतकूच दिवपाच्यो. जालें!

**अंता** : बेस्त्यो मागूना. गरजेक आयलां म्हणून मागल्या. लोक दुडू

साठावन त्या बँकांनी दवरतात. आमी धंदेकार अशे बायलांच्या आंगार गुंथून घालतात. वेळाकाळार वस्तू काडपाच्यो आनी घाणाक दवरपाच्यो.

**अंबिका** : विकल्यार लेगीत हरकत ना.

**अंता** : खऱ्यांनीच म्हणटा काय रागान?

**अंबिका** : रागान कित्याक? हाचेआदीं तशें करूंना? एक वस्त मोडल्या जाल्यार दुसरे खेप दोन वस्ती केल्यात.

**अंता** : घरांतल्या बायलांचें तशें सहकार्य आसलें जाल्यारूच ह्या धंद्यांत अर्थ आसा.

**अंबिका** : आनीक कितें जाय जाल्यार सांगात.

**अंता** : सद्याक इतल्यान भागतलें.

**अंबिका** : बरें. हांव भितर वतां. भगवंताचें न्हावन जालां आसतलें.

**अंता** : न्हावन जालां जाल्यार तो भायर येतलो. तुवें भितर कित्याक वचपाक जाय?

**अंबिका** : शी बाये. तुमी आनी विटयतात. भितर वतां रांदचेकुडींत. ताका कितेंय खावपाक करपाक नाका?

(इतल्यान भितरसावन भगवंता भायर येता. दाव्या हातांत मुकूट धरला आनी उजव्या हातान तुवाल्यान माथें पुसता.)

**भगवंता** : वा! आंगार गरमागरम उदक ओत्तकच बरें दिसलें. कोणेतरी शिन्नेन आंग सांडयिल्लेभशेन जाल्लें. गरम उदकाचो बरो शेक बसलो.

**अंबिका** : न्हातासर उदक न्हिवलें ना न्हय?

**भगवंता** : ना ना. तुवें आदीं गरम केल्लें तशेंच अखेरमेरेन उरलें. तुज्या काळजाची गरमी उदकांतल्यान म्हज्या शरीरांत पावली. मन उल्हसीत जालें. आतां कसली भूक लागल्या जाणां?

**अंबिका** : हांकां हांव तेच सांगतालीं. भगवंताक कितेंतरी खावपाक करपाक जाय.

**भगवंता** : कितेंतरी ते जालेंच. जशी तूं सभावान गुणवान तशी तूं रांदपांतूय

सुगरण आसतलीच.

**अंबिका** : भगवंता, पयलीं खावन पळय आनी मागीर तोखणाय कर. (भितर वता.)

**भगवंता** : वा! घराची कर्तव्यदक्ष बायल, लक्ष्मी.

**अंता** : भगवंता, म्हजी बायल ती.

**भगवंता** : तें व्हदळ सांगलें न्हय. तूं खंय वचपाक भायर सरला?

**अंता** : तेंच सांगपाक राविल्लों.

**भगवंता** : कितें?

**अंता** : भगवंता, आयचो दीस बरो उदेलो ना.

**भगवंता** : शे! आयचो दीस कितलो बरो! प्रसन्न!

**अंता** : ना भगवंता, आयच्या दिसा व्हडली खोंट बसली.

**भगवंता** : खोंट? कोणे मारली?

**अंता** : धंद्याक खोंट बसली देवा. तुज्या भरवंशाचेर खेळाची सगळी बीट आंगार दवरलेली. सगळ्यांत चड पैशे लायिल्ले तेंच घर आयलें. आतां गिरायकांक हातोहात पैशे फारीक करूंक जाय. फुटपाचो नंबर जर तुवें आदींच सांगून आमकां शादूर केल्ले जाल्यार धंद्याक हो येदो व्हडलो फोण पडचो नासलो. भगवंता, तुकां पांयां पडटां. हातूंत मातशें लक्ष घाल.

**नंदन** : (बापायक) तूं फुक्याक पडूना, आनी लक्षणां पळयल्यार मुखारूय सवाय पडचो ना हें सांग ताका.

**भगवंता** : कितें?

**अंता** : भगवंता, भुरगो तो. ताचें व्हडलें मनार घेवं नाका.

**भगवंता** : ह्या तुज्या खेळाचें मनार घेवचेंच पडलें. तातूंत मजा आसा! (व्हदळ देवाऱ्यांत दवरलेलीं पत्रकां काडटा. चाळटा.) ही पोरणी जालीं. मुखावयलीं?

**अंता** : नंदन,

(नंदन मेजावयलीं पत्रकां काडटा, जीं ताणे आतां नव्यान हाडल्यांत. तीं काडून भगवंताकडेन दिता. दितना तांची नावां

वाचता. हातांत एक पेनूय दिता. भगवंताक पयलीं तें किते आनी कित्याक तें कळना. नंदन ताका पेनान बरोवपाचो अभिनय करून दाखयता. भगवंताक समजावणी मेळटा. तो पेन आनी पत्रकां घेवन देवाऱ्यांत उबो रावता आनी थंय रावून तीं पत्रकां चत्रायेन चाळटा.)

**अंता** : हांव बाजारांत वचून येतां भगवंता.

**भगवंता** : बाजारांत? म्हजी पूजा करता म्हणटालो मरे.

**नंदन** : ताची पूजा करपाक बाजारांत लोक रावल्यात.

**भगंवता** : म्हणजे?

**अंता** : तो व्हदळ सांगिल्लो तो फोंड पुरोवपाक वतां. तुवें आपले आपूण सगळें करून घेतलां. तशेंच करपाचें. मागीर फाविल्ल्या वेळांत एक पाद्यपूजा करतां. कितेंय चुकलें माकलें जाल्यार क्षमा कर. (नमस्कार करता.)

नंदन, तुंवूय हांगासर वेळ काडूं नाका. असो भोवून चार घरां पुंजाय. येतां भगवंता. येसर घरांत कृपादृष्टी दवर.

(भायर वता. नंदन भगवंता म्हऱ्यांत येता. भगवंता पत्रकां वाचपांत गुल्ल आसा. पार्श्वभागाचेर शिर्शक गीताची धून वाजता. नंदन तीच संद सादता आनी देवाऱ्याचें दार बंद करता. भायल्यान खिळी घालता आनी ल्हवूच आपूणय भायर वता. कांय वेळान भितर सावन अंबिका भायर येता. तिच्या हातात बशी आसा. बशींत उपीटा सारखो जिनस आसा. ती भगवंताक उलो मारता. हांगा थंय सोदता. मागीर तश्यो गिरक्यो मारता. गिरक्यांक फुगडेचो ताल लाबता. फुगडी म्हणटा. भगवंता बंद देवाऱ्यांतल्यान फुगडेक साथ दिता.)

**अंबिका** : **भगवंता रे भगवंता, खंय लिपलासी भगवंता.**

**भगवंता** : **अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके.**

**अंबिका** : **घरांत सोदलो, दारांत सोदलो,**

सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।

भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके.

अंबिका : भाटांत सोदलो, शेतांत सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।

भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके.

अंबिका : तळ्यांत सोदलो, मळ्यांत सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।

भगवंता : अंबिके गे अंबिके, बंदी हांव हांगा अंबिके.

अंबिका : पाटार सोदलो, घाटार सोदलो,
सोदलो सगळ्याक भगवंता, भगवंता रे भगवंता

भगवंता : अंबिके गे अंबिगके, बंदी हांव हांगा अंबिके.

अंबिका : जनांत सोदलो, मनांत सोदलो,
मनांत गावलो भगवंता, भगवंता रे भगवंता ।।

भगवंता : अंबिके गे अंबिके, अंबिके गे अंबिके.

अंबिका : भगवंता रे भगवंता, भगवंता रे भगवंता.

(अंबिका देव्हाऱ्याच्या दागक घातिल्ली खिळी काडटा आनी दार उक्तें करता. घामाघूम जाल्लो भगवंता भायर येता.)

अंबिका : भगवंता, नाजूक जीव तुमचो! भितर घुस्मटलो ना न्हय?

भगवंता : ना. पोलीस कोठडीपरस भितर्ली जागा हवेशीर आसा.

अंबिका : म्हणजे? तुकां पोलीस कोठयेचोय अणभव आसा?

भगवंता : आतांच थोडें थोडें म्हाका याद जावपाक लागलां. तुकां पळयतकच तर म्हाका तरातरांच्यो यादी जातात. कितें कितें येवजता.

अंबिका : कितें येवजता भगवंता?

भगवंता : येवजता एक आख्यायिका. एक काणी.

अंबिका : कसली काणी?

भगवंता : काणी अंबरीश आनी अंबोलकेची.

अंबिका : म्हणजे?

भगवंता : महादेव आनी पार्वतीची काणी. तीं दोगांय घोव बायलां. कैलास पर्वताचे तेमयेर.

अंबिका : आवयस! पडपाचीबी भिरांत ना?

भगवंता : असो भोलानाथ जाल्यार अशी अंबिका.

अंबिका : आंवय! लज कशी!

भगवंता : सांब सदाशिव गळ्यांत उपरणें कसो नाग वेटकाळून निश्चल, जाल्यार पार्वती अशी रूसून.

अंबिका : रूसून कित्याक? महादेवान सदचेभाशेन मोगऱ्यांची आटी हाडलीना आसतली.

भगवंता : ना कित्याक? कैलासावयल्या धव्याफुल्ल बर्फांत फुल्लेंली सगळीं मोगरीं खुंटून आयज श्रीशंकरान पार्वतेच्या पायांकडेन रास केल्या.

अंबिका : मागीर जालें! वगीच कित्याक रूसवो फुगवो? बायलांनी म्हण सोबता तितलेंच करूंक जाय. पार्वतीचें म्हण चडूच आं! तो भोळो शंकर म्हणून हें सगळें सोंसून घेता.

भगवंता : पार्वतीचें म्हणणे तशेंच.

अंबिका : कितें?

भगवंता : हो आपलो घोव भोळो शंकर!

अंबिका : भोळो आसूं, पूण भोटो न्हय.

भगवंता : (पार्वतीच्या आवाजांत) न्हय कसो? नाजाल्यार इतली ही थंडी, हांव हाचे बगलेक आसां आनी हो कितें काय म्हणल्यार ध्यानस्त! ध्यान खंयचेकडलें!

अंबिका : आंवय! म्हणजे शंकरान कितें करपाचें तर?

भगवंता : सांग अंबिके, तूं कितें करतली आसली?

अंबिका : शी! म्हाका लज दिसता.

भगवंता : ह्या सांबसदाशिवा मुखार कसली लज?

अंबिका : म्हणजे भगवंता, तू शंकराचो अवतार?

भगवंता : खबर ना म्हाका. पूण अंबिके, तुका पळयनाफुल्लें हीं इतलीं शंकराचीं लक्षणां म्हजेठांय उतरल्यांत.

अंबिका : भगवंता, तू शंकराचो अवतार जाल्यार बरेंच जालें. महाशिवरात्रेक हरवळ्यांय वचपाक नाका आनी ब्रह्मपुरीकूय वचपाक नाका. हांगासरूच अभिशेक करपाक मेळ्ळो.

भगवंता : अंबिके, महाशिवरात्रेक आजून वेळ आसा. ताचेआदीं म्हाका तुज्या प्रेमाचो अभिशेक घाल.

अंबिका : अभिशेक जाय जाल्यार घालतां. पूण ताचे आदीं हें कितें करून हाडलां तें खा.

भगवंता : नाका अंबिके. तें खावचे आदींच पोट भरलें.

अंबिका : खावचें आदीं पोट कशें भरतलें? दोन घास खावन घे भगवंता. तुकां थंय उबो रावचो पडटा. मागीर घुंवळ येवन पडशी.

भगवंता : पडल्यार हरकत ना. मांडी दिवपाक तूं आसाच. आतां घुंवळून पडपाचोच ध्यास लागला. (तिचेर लकपाचो यत्न करता. ती चुकयता.)

अंबिका : भगवंता, म्हाका तुजीं लक्षणां बरीं दिसनात. तुज्या जिवाक बरेंनाशें दिसता. खावन घे. पोटाक थाकाय मेळटली. हांव जेवणाचीं तयारी करतां. (ताकतिकेन भितर वता.)

भगवंता : (तिका उद्देशून) अंबिके, सांबसदाशिव खरेंच भोळो. पूण तूं हरणाभशेन शादूर-शिट्टूक आनी कितली धुर्त पूण तूं वचून वचून खंय वतली? रांदचेकुडींतूच मू? कैलास पर्वताचेर गेल्यार लेगीत तुकां सोदून हाडपी. पूण ह्या खिणांक कितें करूं! हाय भगवंता! काळजाक पेटला हुलोप! ह्यो मदनज्वाला जीव कासावीस करतात. हें उज्याचें आगटें कशें थंड जातलें? खंयच्च्या पावशी कुपाक साद घालूं? कोणाक उलो मारूं? ह्या खिणांक कोण पावत जिवाची प्रेमिकाऽऽ (अकस्माक याद जावन) राधिका! (उलो मारून) राधिकेऽऽ

(भितर सावन राधिका ओ दिता. म्हणल्यार गीत गायत आनी

नाचत नाचत भायर येता. तिणे राधेचो भेस केला. पांयांत घुंगरां बादल्यांत. माथ्यार मडकी आसा. भगवंताय तिचेबरोबर गावन नाचता.)

**तो** : **नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार**
**प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार**
**ती** : **ना रे कान्हा ना रे कान्हा यमुनेच्या कांठार**
**प्रितीच्या परमळान भरत सगळो वाठार**
**तो** : **नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार**
**प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार**
**ती** : **कित्याक आडायता वाट म्हजी तूं नस्ती तुजी खोडी**
**लाडीगोडी, लाळेगोळे संवंय तुजी पाडी**
**तो** : **तुज्याच खातीर चल्ल्या राधे इतल्यो काडाओडी**
**गोकुळांतल्या कुळागारांतली तूं तर तन्नी माडी**
**तो** : **नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार**
**प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार**
**ती** : **हर रंगाची खेळटा हरी तूं खेळटा सदांच होळी**
**तुजीच करणी सदा नखलामी म्हजोच पडटा बळी**
**तो** : **हांवूच मोगी अधीर अधाशी तूं तर राधा सवळी**
**समजून घे तूं केन्ना वाजना एका हातान ताळी**
**तो** : **नाच राधे नाच राधे यमुनेच्या कांठार**
**प्रितीच्या परमळान भरूंदी सगळो वांठार**

(गीत सोपना बरोबर भितर सावन हातांत पेलो घेवन अंबिका भायर येता. खावपाचो जिनस थंय तसोच आसा तो पळयता. राधिकेचेर धेंगसता.)

**अंबिका** : राधिका, हें कितें चलयलां?
**राधिका** : खंय कितें? हांव म्हजी नाचाची प्रेक्टीस करतालें.

अंबिका : भगवंता बरोबर?

राधिका : म्हजे बरोबर तोवूय नाचपाक लागलो जाल्यार हांव कितें करूं?

अंबिका : भगवंता, तुवें हें कितें आडायलां?सकाळसावन पोटांत अन्नाचो कण ना आनी कितें काय म्हणल्यार ह्या पोराबरोबर तूं उपासपोटयां नाचता? घुंवळ येवनबी पडलो जाल्यार कितें करपाचें? तुकां आमचीं मनशाचीं वखदां तरी उपकारतात?

भगवंता : म्हाका कित्याक वखदां जाय? म्हाका कसली पीडा जाल्या? आनी म्हजे पिडेचें वखद हांगासरूच दोनूय शिंसल्यांनी भरून आसा. म्हज्या जिवाक कसलोच भंय ना.

अंबिका : कसलोच भंय ना खंय. आता एक खिणभर लेगीत असो उबो रावूं नाका.

भगवंता : उबो रावूं नाका?

अंबिका : यो, असो ह्या दिवाणार बस.

भगवंता : बसूं?

अंबिका : विसव घे. ही न्याहारी कर. पेल्यांतलें दूद पिये. फोर्सीखातीर तातूंत बॉर्नविटा घातलां. यो भगवंता यो. राधिका, हो असो आयकुचो ना. हाका असो घट धर.
(दोगांय भगवंताक दोशी वशीं धरतात आनी बळजबरीन दिवाणाचेर व्हरून बसयतात.)

भगवंता : वा! आतां बरें दिसलें. नाचून नाचून कमरांत आयिल्लें. उबे आसतना कळ्ळेंच ना.

अंबिका : हे राधिकेक पयलीं अक्कल ना. कोणांक कसले त्रास दिवचें तेंवूय खबर ना. भगवंताक म्हणून असले कश्ट दितात?

राधिका : हांवें कितें केलां गे?

भगवंता : ना अंबिके, राधिके वांगडा हांव म्हजे इत्सेन आनी उमेदीन नाचलां.

अंबिका : भंगली उमेद! मातशे पांय धील सोड. जिवाक बरें दिसतलें.

(भगवंता दिवाणाचेर लवंडटा.)

**अंबिका** : राधिके, भितर वचून एक उशें हाड. तुगेल्या बापायचेंबी हाडशी. ताका तेल माखलां. म्हजें नाजाल्यार तुजें हाड. तुजें नाका, म्हजेंच हाड.

**भगवंता** : उशें बिशें कांय नाका. तुमी दोगांय हांगासर आसात हाचीच म्हाका केदी उबारी! राधिके, ती मडकी हाड. घट न्हय तो? तोच असो म्हजे तकलेपोंदा दवर.

(राधिका मडकी उश्यासारखी तकलेपोंदा दवरता.)

**भगवंता** : वा! वा! घट कितलो मोव! राधिके हो मोव लुसलुशीत घट तुवें स्वतःच्या हातांनी घडयला?

**राधिका** : हय भगवंता.

**अंबिका** : हें भंगलें घडयतलें. ताका नाचाखातीर जाय म्हण हांवें मडगांवसून मडकें बाजारांतल्यान हाडला.

**राधिका** : आई, हांवें घडयला म्हण सांगल्यार कितें जातलें?

**अंबिका** : कित्याक भगवंताचेर तें इंप्रेसांव काय कितें ते मारपाक?

**राधिका** : तूं वगीच कित्याक जळटा म्हजेर?

**अंबिका** : हांव कित्याक जळटलीं?

**राधिका** : व्हदळसावन पळयतां हांव. हांव भगवंता बरोबर चाळ बांदून नाचलें जाल्यार तुज्या काळजाक जाळ पडले.

**अंबिका** : तोंड बंद कर राधिके. भगवंता मुखार कायचे काय उलोवन म्हाका खालतेपण भोगोवं नाका. आवय तुजी हांव.

**राधिका** : खबर आसा म्हाका.

**अंबिका** : (रागान) राधिके,

**भगंवता** : पूण हांव म्हणटां –

**अंबिका** : (धुवेक) हांव कित्याक जळटलें तुजेर? तूं कितें सवत म्हजी? आनी हांव जळटां तें तुजेखातीर न्हय. म्हाका भगवंताचें पडलां. ताच्या जिवाचें पडलां. फुक्याक पडूंना तो.

**राधिका** : तुकां पडलां तशें म्हाकाय पडलां. म्हाकाय ताची काळजी.

अंबिका : काळजी आसा जाल्यार कर सेवा.

राधिका : करपीच. हांव भगवंताचे पांय चेपपी. हे अशे. (बळजबरीन पांय धरता आनी नेटान चेपता.)

अंबिका : तूं पांय चेपता जाल्यार हांव भगवंताक वारो घालपी.

राधिका : घाल वारो.

अंबिका : वारो खंय आसा? आयणो खंय आसा?

राधिका : म्हाका खबर ना.

अंबिका : चल, भितर वचून आयणो घेवन यो.

राधिका : हांव वचपी न्हय. हांव हांगासरलें उठल्यार तूं हांगासर येवन बसतली. खबर आसा म्हाका.

अंबिका : आयणो कित्याक जाय? हांव असोच वारो घालपी. (साडयेच्या पालवानूच वारो घालता.) भगवंता, वारो पडटा न्हय?

भगवंता : हय तर. पंख्यापरस बरो झणझणीत पडटा.

राधिका : आनी पांय?

भगवंता : बरे चेपता. वा! वा! वा! अती सुखदायी! अती सुंदर! कितलो हो विलास! कोणा दळडिऱ्याची दृश्ट लागल्यार अजाप न्हय. (इतल्यान भायर सावन अंता येता. पळोवन पिकार जाता.)

अंता : राधिके! अंबिके!

भगवंता : (अस्पश्ट) दळडिरो!

अंता : हें कितें चल्लां?
(दोगांय कडेक सरतात.)

अंबिका : भगवंताची सेवा करतालीं.

अंता : सेवा करपाक तुमकां नेमल्यांत?

राधिका : घरांत भगवंता आसा म्हणटकूच–

अंता : तुमकां शिटकावन गेल्लों मुगो हांव, तरी आपलें तेंच?

भगवंता : येवचे येवन तांचेर कित्याक तिडटा अनंता?

अंता : भगवंता, हांव अनंता न्हय. अंता, श्रीअनंता थंय सावयवेऱ्यां

शेषासनाचेर पहुडला तो.

भगवंता : अंता, शांत जा. सगळें वेवस्थीत जातलें. फोण पुरोव आयलो?

अंता : फोण?

भगवंता : पैशे फारीक करून आयलो?

अंता : हय भगवंता. भगवंता, तूं घरांत आसताना हें अशें घडत अशें येवजूंक नाशिल्लें. ह्या हातांनी उसळेचे दोणे कशे वांटले. पंचवीस हजार रुपया.

भगवंता : उसळूं नाका असो. सांगलें न्हय, सगळें वेवस्थीत जातलें. जुगार म्हटलो म्हणजे घेवप आनी दिवप आयलेंच. उजव्यान घेतल्यार दाव्यान तरी दिवपाक जाय. पायलेन घेतल्यार अण्णाटेन तरी दिवपाकूच जाय. (मडकी हातांत घेवन) जुगार म्हणजे मटको. वयर–अशें पूण खाला पोंद. वयल्यान घालता तें दिसता. पोंदच्यान वता तें दिसना.

(राधिका आनी अंबिका चत्रायेन आयकतात. अंताक तांचो राग आयला. तांकां धपकायत)

अंता : कितें किर्तन आयकतात काय प्रवचन? व्हदळ उलो मारल्यार मार कामाचीं निमतां सांगतालीं दोगांय.

राधिका : व्हदळ काम भितर आशिल्लें आतां भायर.

अंता : पुरो, पुरो. जीब चड सुटल्या तुजी. पांयांत घुंगरां बांदलीं आनी तो बुडकुलो घेवन नाचलें म्हण शाणें समजूं नाका. येन्नादर बापायचो बुडकुलो पावयतलें वयर.

(राधिकेक राग येता. तें भगवंताच्या हातांतलो बुडकुलो काडून घेता आनी भितर वता. फाटोफाट अंबिकाय वता.)

भगवंता : अंता, बायलांची मनां कंवळ्या कळ्यांसारखीं आसतात. तीं सांबाळपाक जाय.

अंता : ती तशीं सांबाळपाक हांव फुलांचो धंदो करिना. म्हजो धंदो आंकड्यांचो. आंकडे अशे फाटीफुडें घुस्पतकूच म्हज्या

काळजाक वळ पडटा. तुकां सांगून कळपाचें ना भगवंता. भोगतल्याकूच आपले भोगणार कळटात. इतलो वेळ सुशेग घेतलो न्हय. आतां त्या देवाऱ्यांत वचून मातसो बस.

**भगवंता** : बसपाक थंय काय ना.

**अंता** : कदेल करपाक सांगल्या न्हय?

**भगवंता** : ती केन्ना मेळटली?

**अंता** : अंदू सांगल्या म्हणटकच फुडल्या वर्सा तरी नक्की मेळटली. नाजाल्यार मागीर फेस्ताची बरीशी हाडटां हांव. तोमेरेन मातशें पार्सीयेंस काड आनी उबो राव.

**भगवंता** : तूं पाद्यपूजा बी करतलो?

**अंता** : पाद्यपूजा म्हणटा ती हातांची काय पांयांची?

**भगवंता** : पांयांची.

**अंता** : पयलीं म्हज्या पांयार दोन तांबये ओतून येतां. तुजी मागीर पळोवया. आनी हांगासर उदक ओतयल्यार खातड जावची ना? तेपरस भितर मान्यातूच तुजी पाद्यपूजा करतां. चलतली? (भगवंता मानेनूच हयकार दिता आनी देवाऱ्याकडेन वता. भायरसावन सट्टेमास्तर उलो मारीत येता.)

**सट्टे** : रघुनंदन, अरे ओ रघुनंदन,

**भगवंता** : (अदमास लायत) हो आवाज?

**अंता** : धाको मास्तर. चल बेगीन वचून देवाऱ्यांत राव. मूर्तीसारखोच राव. नाजाल्यार धाको मास्तर नस्ती उस्तवारी करतलो. चल, हांव दारां धापतां.

**भगवंता** : नाका, नाका. भितर गरमी जाता.

**अंता** : बरें आसा. धांपीना. पूण सांगलां तशें. मूर्तीवरी रावपाचें. तीं पत्रां घेवन वाचल्यार जाता.
(भगवंता देवाऱ्यांत वता आनी हातांत पत्रकां घेवन मूर्तीवरी रावता. भायरसावन सट्टेमास्तर येता. हातांत व्हडलें बरोवपाचें पुस्तक आसा.)

अंता : यो. यो मास्तर. आयज बरी व्हडली पटी घेवन आयला. पूण आदींच सांगतां, आयज हांव सामको खाखनवाळ.

सट्टे : तें कळ्ळें म्हाका. सडीक मार बसलो खंय तुकां. खूब बरें – ना, खूब वायट दिसलें. थंय बार्रार गेल्लेकडेन–सोडा पिवपाक गेल्लो. थंयच कळ्ळें. थंय जिखिल्ल्याच्या पैशांचें मूत जाता. (सोरो पियेवन मुतून वता अशा अर्थान) तूं इतलो कमरामेरेन बुडला आसताना हांव आनी तुकां खंयच्या तोंडान गंडो घालतलो सांग? आता हे सरकारी काम केन्नातरी जावंकूच जाय न्हय. धार्मिक कामाभशेन ताका कितें म्हूर्त लागता? दर एका नागरीकाचे नदरेन आनी देशाचे नदरेन ही म्हायती सामकी म्हत्वाची आसा. आरे, हेच म्हायतिच्या आदारान देशांत व्हडले व्हडले प्रकल्प उबे जातात.

अंता : पूण सगळी म्हायती दिवपाची? उद्देगधंद्याची?

सट्टे : दिवपाची. पूण कशी बरोवपाची ती हांव ज्यूस्त बरयतां. म्हाका कितें तुजो उद्येग खबर ना?

अंता : तशें जाल्यार हरकत ना.

सट्टे : चल, आपय तुगेल्या कुटुंबाक भायर.

(अंता राधिकेक आनी अंबिकेक उलो मारपाक तोंड उक्तें करता. इतल्यान फाटसून भगवंता, राधिकेऽऽ, अंबिकेऽऽ असो विशिश्ट पद्दतीन उलो मारता. मास्तराक अजाप जाता.)

सट्टे : (उलो मारला तो अंतानूच समजून) ही कितें नवी पद्धत सुरू केल्या काय कितें?

अंता : (भगवंताचीं सुबेजपणां मानवूंक ना. पूण तो पासून व्हरता.) हय. उलो मारपाची पद्धत मातशी बदलल्या खरी.

(राधिका आनी अंबिका धांवत येतात.)

दोगांय : कित्याक उलो मारिल्लो भगवंता?

(मास्तराक पळयता आनी थंयच थारता.)

सट्टे : (तांकां पळोवन) तुमकां उलो मारला अंतान. तुमी भगवंताच्या

नांवानशी गरड घालीत आयलीं?

दोगांय : आमकां दिसलें, आमचो भगवंताच उलो मारता म्हणून.

सट्टे : हो भगवंता कोण?

अंता : नवी मूर्ती हाडल्या न्हय, तिचें नांव दवरलां भगवंता.

सट्टे : हाडटकूच मागीर नांव दवरलां? भुरग्याभशेन?

अंता : हय. ती एक गडबडूच जाली. तूं तुजें काम आरंभ कर. म्हाका बाकीचीं कामां आसात.

सट्टे : म्हाका कसलो वेळ? सगळीं आयलीं? तो खंय? रघुनंदन?

नंदन : (भायरसावन) सट्टेमास्तर, हजर!

सट्टे : कोणतरी निमाण्या बांकावयलो आसतलो.

नंदन : (येत) सट्टेमास्तर, तुकां पळयना बरोबर हांव धांवत आयलों.

सट्टे : बरें केलें. तुका राष्ट्रीय वावराचें म्हत्व कळ्ळें.

नंदन : म्हणून तर आयलों. सांगात, तुमच्या धा नंबराचेर कितले लावपाचे?

सट्टे : हो राष्ट्रीय वावर? तें करपाक येवना हांव. सेन्ससाचें काम घेवन आयलां. फकाणां करूं नाकात. (मास्तराचो आव हाडून) विचारतां त्या प्रश्नाच्यो खऱ्यो खऱ्यो जापो दियात. राष्ट्राच्या फुडाराचो प्रश्न आसा. सगळें शिस्तीन जावंदी. (सगळीं सारखीं उबीं रावतात. सट्टेमास्तर फॉर्म वाचता आनी बरयता.)

सट्टे : घरप्रमुखाचें नांव?

अंता : अंता.

सट्टे : खबर आसा रे म्हाका. खबर ना तितलेंच तुमी सांगपाचें. (बरयत) अंताराव. वय? म्हजेपरस पांच वर्सांनी ल्हान म्हणजे (बरयता आनी वाचता) वेवसाय? (बरयता) आंकड्यांचो.

नंदन : आंकड्यांचो म्हणजे?

सट्टे : (बोटांनूय शूऽऽ करून धपकायता.) राष्ट्रीय कार्यांत आडखळ नाका. उत्पन्न? (बरयता) अमुकच असे नाही. सांपत्तीक

स्थिती? (बरयता) मध्यम. शिक्षण? (बरयता) आंकड्यापुरते. मातृभाषा? (बरयता) अं. अं.

नंदन : सट्टेमास्तर, मातृभाशा कितें म्हण बरयल्या?

अंता : आसूं रे, बरोवं कितेंय.

नंदन : कितेंय बरोवं म्हणजे? खरी ती बरोवपाक जाय. सट्टेमास्तर मातृभाशा कितें म्हण बरयल्या?

अंता : (शू करून) भाशावाद नाका. तातूंत शक्ती खर्च जाता.

सट्टे : घरांतलीं हेर मनशां? (बरयता) अंबिकाबाई, राधिकाबाई–

राधिका : हांव बाई? आंवय!

सट्टे : (बोट दाखोवन शूऽऽ करता. बरयत.) रघुनंदनराव. (नंदन खुश जाता.)

सट्टे : (वाचता) कुटूंब प्रमुखाकडलें नातें? (तोंडांनी दाखयत बरयता) बायल, बापूय (वाचता) घरांत एकूण माणसे?

भगवंता : (देवाऱ्यांतल्यान) पांच.

सट्टे : (वयर पळयत) राष्ट्राक चुकिची म्हायती दिवं नाका. तो राष्ट्रद्रोह जातलो.

अंता : हय सट्टेमास्तर. घरांत एकूण पांच मनशां धरपाचीं.

सट्टे : धरपाचीं म्हणजे? पांचवो मनीस हाडून दाखय. मागीर बरयतां.

अंता : ताचें कितें आसा सट्टेमास्तर, ही मूर्ती पळय आसा –

सट्टे : कसली मूर्ती?

अंता : भगवंताची.

सट्टे : ती मागीर पळयतां. पयलीं हें बरयतां.

अंता : न्हय, हांव म्हणटालों, आमी म्हणटालीं (सगळीं हयकार दितात) आमचे मूर्तिचे नांव तुमी भितर घालात. कारण ही मूर्ती सादीसुदी न्हय. जागृत! जशें मनशाक खावपाक, पिवपाक लागता तशें सगळें हे मूर्तीक लागता. ते खातीर तिका एक नग म्हणून मनशाबरोबर धरची.

सगळीं : हय मास्तर.
सट्टे : बरें आसा. नांव?
भगवंता : भगवंता.
अंता : आवाज बदलून कित्याक सांगपाक जाय?
(सगळींजाणां भगवंताक उलोवपाक नाका म्हण शिटकायतात. तुजी म्हायती आमी भरतां म्हण ताका सांगतात.)
सट्टे : आडनांव?
नंदन : परमेश्वर.
सट्टे : शिक्षण?
राधिका : चौदा विद्या आनी चौसष्ट कला.
सट्टे : वेवसाय?
नंदन : भक्तांचे कल्याण करप.
सट्टे : वय?
राधिका : 55 अब्ज आनी स परार्ध वर्सां.
सट्टे : देवाक उत्पन्न कसलें?
अंता : कसलें म्हणजे? पेटयेंतलें, पावणेचें, अभिशेक, लघुरूद्र हांचेपासून येवपी उत्पन्न.
भगवंता : (व्हडल्यान) अमूकच अशें ना.
सट्टे : मातृभाषा?
भगवंता : देववाणी.
सट्टे : लिपी?
भगवंता : देवनागरी.
सट्टे : वा! कुटूंबप्रमुखाकडले नातें?
अंता : देवाचें.
(मास्तर सांगता तितलेंच फॉर्माचेर बरोवन घेता.)
सट्टे : (अंताक) घे. सगळ्यांच्या नांवान आंगठो लाय.
अंता : खंय लांव?
सट्टे : म्हज्या कपलाक. (दाखयत) हांगासर.

(अंता मास्तर दाखयता थंय आंगठो लायता.)
चला, एक राष्ट्रीय काम जालें!
(सगळ्यांक सूऽऽ जाता.)

राधिका : आतां राष्ट्रगीत म्हणूंया?

सट्टे : (चाळयत) हय, आनी नाचूंयाबी. चलात आपापल्या कामांक.
(राधिका आनी अंबिका भितर वतात.)

सट्टे : अंता, आयज सिगार-बिगार कांय दिलें ना.

अंता : (गोंदळून) ताचें कितें आसा मास्तर, आयचो दीस म्हणल्यार-
(सिगरेट सोदता)

सट्टे : आसूं, आसूं. फाल्यां पळोंवया.

अंता : फाल्यांय काम आसा?

सट्टे : हें सेन्ससाचें न्हय. तें जालें. हें तुजें निमणें घर.

अंता : (ताका वाटेक लायत) बरें. सट्टेमास्तर बरें.

सट्टे : (कितेंतरी विसरला) तें कितें काय म्हणल्यार-

नंदन : नंबर. नंबर.

सट्टे : तुका सांगलें मरे. हांव ड्युटीर आसां.

नंदन : पूण तशे तुमी ड्युटीर आसताना लेगीत-

सट्टे : ही राष्ट्रीय ड्युटी.

नंदन : बरें बरें येयात.

सट्टे : येतां. पूण कितेंतरी विसरलों.

भगवंता : (देवाऱ्यांतल्यान) भगवंताचे दर्शन घेतलें ना.
(अंता भगवंताचेर दोळे वठारता.)

सट्टे : (वळून) कितें म्हणलें?

अंता : कांय ना. तुकां न्हय. हो नंदन तो.

सट्टे : खूब मस्तो जाला. तरातरांचे आवाज काडटा. (मटक्याचें नंबर ह्या अर्थान) आवाज काडपाचेंच काम ताचें.
(सट्टेमास्तर चोपडी खांदाक मारून भायर वता.)

भगवंता : (भायर येत) जांव, गेलो एकदांचो.

अंता : (रागान) भगवंता, तुजें उंचेलें सोपण पळोवन तूं वाग.

भगवंता : म्हणजे?

अंता : आमचेमदीं तूं कित्याक उलयतालो?

भगवंता : म्हायती सारखी दिवपाक नाका? नाजाल्यार तो राष्ट्रघात जातलो.

अंता : कसलो घात जायना. तुज्या असल्या वागण्यान आमकां नस्तो ताप मात जाता. तुकां थंय वगी बसपाक-उबो रावपाक कितें जाता?

भगवंता : कसली गरमी जाता? वारें घालपाक कोणतरी जाय.

अंता : (ल्हवू आवाजात) खाल्लें तें वारें खूब जालें!

नंदन : पापा, ती देवाकूड एअरकंडीशन्ड करूंया?

अंता : म्हणजे कशी? तीं हॉटेला, बार्रांबी करतात तशीं?

नंदन : हय.

अंता : काय गरज ना. ती तशी करपाचीं जाल्यार ते म्हार्दोळ, रामनाथीं देवस्थानचे म्हाजन देवाच्यो गर्भकुडी पयलीं थंड करतले आसले. आमचेपरस तांका बरें कळटा.

भगवंता : आं, आं. तशी थंड करपाक म्हजी कसली हरकत ना.

अंता : भगवंता, तुजी हरकत नासूं. पूण म्हजी तितली पत ना.

भगवंता : बरें आसा. हांव असोच हांगा-थंय पासयो मारून वारें खातां. (वचपाक वता.)

अंता : भगवंता खंय वता?

भगवंता : खंय ना. हांगाच वचून येतां.

अंता : कांय गरज ना. भगवंता, तुकां परत एक फावट सांगतां. तुज्या रेस्पेदान तूं राव. वगीच आमचेकडल्यान स्वताचो रेस्पेद उणो करून घेवं नाका.

नंदन : सगळे देव आपल्या रेस्पेदान वागतात. येदो व्हडलो गणपती! दर वर्सा आमी ताका घरा हाडून पुजतात. पूण केन्ना मखराच्या

भायर पावल घालूंक ना.
(भगवंता मोन्यांनी देवाऱ्यांत वता.)

अंता : तीं पत्रां मातशीं वाचून पळय म्हणून सांगलेलें.
(भगवंता मोन्यानी देवाऱ्यांत उबो रावन पत्रकां चाळटा.)

अंता : हांगा म्हज्या पोटाक पडला फोंड. सकाळच्यान कांय एक खावं ना. म्हाका याद ना ती ना घरांतल्या मनशांकूय धंगण ना.

नंदन : पापा, सगळें गणित गडबडलां.

अंता : यो भितर यो. जाग्यार घालुंया. कोणाले दिवपाचे उल्ल्या आनी कोणाले पर्तुपाचें तें समजावन सांगतां तुकां. हांगा आनी तो हिशेब नाका.
(अंता आनी नंदन भितर वतात. भगवंता पत्रकां चाळटा आनी आपणांक आकड्यांतलें कितेंतरी समजलें अशा अर्थान देवाऱ्यांतल्यान उडकी मारून भायर येता. पार्श्वभागाचेर शिर्शक गीताची धून वाजता. भायरसावन सट्टेमास्तराचो उलो आयकूंक येता.)

भगवंता : रघुनंदन, आरे कितें विसरलों ती आतां याद जाली पळय.
(भगवंता जाग आयकून दाराकडेन वता. हातांत पत्रकां तशींच आसात. सट्टेमास्तर खाक्यांत चोपडी घेवन येता.)

भगवंता : यो सट्टेमास्तर, म्हाका तुजो आवाज खूब बरो दिसता.

सट्टे : म्हज्या आवाजाची कसली तोखणाय? आवाजाचो खरो धनी तूं. (ताका पळयत उरता.)

सट्टे : तूं?

भगवंता : हय सट्टेमास्तर, हांव भगवंता. म्हजें दर्शन करपाचें विसरून गेल्लो मरे? घे. कर दर्शन.
(मास्तर कितलोसोच वेळ ताका आर्तो-पर्तो पळयता आनी मागीर व्हडल्यान आड्डता.)

सट्टे : सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे - अमर रहे. (चूक कळटकूच परत म्हणटा) सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे - झिंदाबाद!

**भगवंता** : सट्टेमास्तर मदींच कोंबो कसो आरडपाक कितें जालां?

**सट्टे** : सट्ट्या, सट्ट्या पयलीं तुकां मोगाची खेम दितां. वर्सां वर्सांच्या मोगाची खेम (वेंग मारता)

**भगवंता** : सट्टेमास्तर, हांव सट्टो-बिट्टो कोण न्हय. हांव भगवंता.

**सट्टे** : कसलो मड्याचो भगवंता? आरे, तूं सट्टेबहादूर रंगोजी राजे. आमचो सट्ट्यांचो पूर्वज. याद कर. आरे 1940 वर्सा हांव मेलों - तूं मेलो आनी हांव जालों. हांव तुजो दायजी. याद करून पळय. तूं सट्टो! थंय सट्टणाक तुजी वतनदारी आशिल्ली. तूं निमणो वंशज. शूर, पराक्रमी, राजपुत्र. थंय सट्टणांक तुजो मोडको राजवाडो आसा. तातूंत तुजी तरसाद आशिल्ली. ती हावें यादीखातीर म्हगेर हाडून दवरल्या. याद कर. तरणे पिरायेरूच तुकां नाका तसल्यो संवयो लागल्यो. रंग-ढंग, सट्टो-जुगार. आनी ऐन चाळिशीचेर कसलेतरी असाध्य पिडेन तूं सोंपलो. (रडटा) अंदू तुगेलें जल्मशताब्दी वर्स. सगळ्या तेर्गाक शिंपडिल्ले बारीक-मोटे सगळे सट्टे एकठांय जाल्यात. तुगेलो शताब्दी समारोप मनोवपाक सोदतात. आपणाल्या जल्मशताब्दी समारंभाक प्रत्यक्ष तुकांच सट्टेबहादूराक पळोवपाक मेळ्ळो जाल्यार सट्ट्यांचें भाग्य फळफळटलें.

**भगवंता** : (याद करीत) सट्टेबहादूर रंगोजी राजे! आतां मातशी मातशी याद जावपाक लागली. हय. मरपाक पाविल्लों तेन्ना हांवें म्हणिल्लें -

**सट्टे** : पुनरजल्म लाबल्यार म्हज्जीं उरलेलीं कामां पुराय करतलों.

**भगवंता** : हय, हय. हांवें अशेंच म्हणिल्लें.

**सट्टे** : तेंच कर. तें पूर्ण करपाक तुवें योग्य घरांत जल्म घेतला. हांगा सगळ्यो सोयी सुविधा आसात. हें हें (पत्रकां) हातांत आसा तें तुज्याच हातांत सोबपाचें. आनी भितर आसात तिंवूय तुकाच सोबपाचीं. सट्ट्या, मार मजा. सगळ्या सट्ट्यांचें नांव वयर

काड. फाटल्या पस्तीस वर्सांतलो अर्दो तरी पगार ह्या घराक घातलो. सट्ट्यांचो हिशेब तूं तरी वसूल करून घे.

**भगवंता** : तूं हांगा लागींच रावता?

**सट्टे** : हय. पूण दायजी आसून म्हज्या घरा तुकां आपयना सट्ट्या. ल्हानशें घर म्हजें. (रडकुऱ्यां येवन) बायल आसा. वाडिल्ल्यो चलयो आसात.

**भगवंता** : रडूं नाका. तुजी परिस्थिती समजली म्हाका. येना तुगेर. पूण म्हजी तरसाद मातशी धाडून दी.

**सट्टे** : धाडून कित्याक? घेवनूच येतां. हांगासर रावूनच तूं तुगेलें अर्दकुटें उरलेलें, ऐतिहासिक काम पूर्ण कर. पूण सांबाळून. हो अंता. शिकूना खरो, पूण मोटो चांडाळ आसा. आमकां शिकलेल्यांक आनी ताच्या बरोबरच्यांक शिंगां लायता. तूं आदल्या काळांतलो. पन्नास वर्सां आदलो. तुजें कार्य जायसर तुवें हांगां भगवंताच जावन रावप शाणेपणाचें. येतां हांव. भगवंताच्या दर्शनाक आयिल्लों, पूर्वजांचें दर्शन जालें. धन्य जालों! (घोशणा दिवपाक सोदता.) सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे – (आपुणूच) नाकां, नाकां. नस्तो बोवाळ नाकां. (वतना) सट्ट्या, फुलय, फुलय. (उमेदीन भायर वता. भगवंता उमेदीन फुल्ला. राजकुंवराच्या झेतान हांगा थंय पासयो मारता. कमराचे तरसादिची याद येता. व्हडल्यान आड्ता.)

**भगवंता** : सट्टेमास्तर, म्हजी तरसाद!

(इतल्यान भितरसावन अंता आनी नंदन भायर येतात.)

**अंता** : भगवंता, आतां तुजें चड जालें. उलयता तें बरें आसा. आड्डुपाकूय लागलो? कोणांक सादयतालो?

**सट्टे** : सट्टेमास्तराक.

**अंता** : सट्टेमास्तराक? तो कित्याक तुकां?

**सट्टे** : तागेर म्हजी तरसाद आसा.

**अंता** : (ना कळून) कितें?

सट्टे : (पासून व्हरून) कांय ना. तुमचीं कामां तुमी करात (देवाऱ्यांत हांगा थंय सासपिता.)

अंता : तुजें आनी कसलें काम आसा? कटेल, कपडे मेळटले.

भगवंता : (कांय पैशे एकठांय केल्यात. ते अंताच्या हातांत दीत) घे.

अंता : हें कितें?

भगवंता : पैशे.

अंता : तें कळ्ळें. पूण हे कित्याक? कदेलीचे कांय कपड्यांचे?

भगवंता : ते हांव कित्याक दितलों?

अंता : हे पैशे खंयचे?

नंदन : हांव सांगतां. हे आमी भगवंताक पांयां पडटाना घातलेले ते. आनी ही सिद्धनाथ भटाची दक्षणा. तो त्या दिसा गणेशपूजा आनी दक्षणा सांडून गेलो.

अंता : येवन व्हरतलो केन्नाय.

भगवंता : हे सगळे पैशे म्हजे.

अंता : तुजे?

भगवंता : हय. म्हाका घातलेले म्हणटकूच म्हजे जाले ना? आनी हांव आसताना दक्षणा भटाक कित्याक? तिवूय म्हजीच.

अंता : भगवंता, हे तुजे धंदे बरे!

भगवंता : सगळे लायतलो आसलों. पूण सद्याक अर्देच लायतां. (दाखयत) ह्या ओपन नंबराचेर.

अंता : तूं खेळटा?

भगवंता : खेळटा म्हणजे? इतलो थंय गवून अभ्यास केलो ना? पळोवया, कसो नंबर फुटना तो.

अंता : भगवंता, असल्या करण्यांनी तूं आमचें नशीब फोडटलो.

भगवंता : हांव नशीब घडोवपाक आयलां.

अंता : कोणाचें?

भगवंता : कळटलें, कळटलें. तो नंबर मारखो लक्षांत दवर. (अंता नाईलाजान पैशे काडून नंदनाकडेन दिता.)

नंदन : कागदार बरोवन दिवं?

भगवंता : दिल्यार वायट न्हय.

(नंदन कागदा कुडक्यार नंबर बरोवन दिता.)

अंता : (जळफळत.) ह्या भगवंताचेर कसलो सांवार आयला! (तापत) भगवंता–

भगवंता : तूं तापता कोणाचेर अंता?

अंता : तुजेर.

भगवंता : (ल्हवू) राव, मातशी तरसाद येवं दी. मागीर दाखयतां.

अंता : भगवंता, मोन्यानी भितर वचून उबो राव.

भगवंता : भितर गर्मी जाता म्हण सांगलें न्हय?

अंता : जांव गर्मी. बाकिचे देव रावनात दिसांचे दीस, वर्सांची वर्सां?

भगवंता : बाकिच्या देवांकडेन म्हजी तुळा करूं नाका. हांव तुजो– (मदींच) राव, मातशी म्हजी तरसाद येवं दी.

अंता : (शिटकायत) भगवंता.

भगवंता : म्हजो नंबर,

अंता : नंबर खंय वचना. लागलो जाल्यार पैशे मेळटले.

भगवंता : कित्यात लागचो ना काय म्हणटां!

अंता : (धपकायत) भगवंता, वता काय ना?

(भगवंता चडफडत देवाऱ्यांत वता. अंता दोनूय दारा बंद करता आनी खिळी घालता.)

अंता : आयचे आयज एक गडगंज कलयाद हाडून घालपाचें याद्दीन.

नंदन : पयल्यान पयलीं सिद्धनाथभटाक आपोवपाचो.

अंता : तो वाडयेक गेला न्हय रे.

नंदन : कसोय तरी हाडपाचो.

अंता : हय. हाडपाकूच जाय. पयलीं हांव उड्डपीक वचून येतां. कारकलच्या त्या शेट्टीगराक सोदून काडटां.

नंदन : हो शेट्टीगर एका पोंताक जाल्यार हो सिद्धनाथ दुसऱ्या

पोंताक.

अंता : मदीं ट्रेन आसा ती.

नंदन : जालेंच. ती एक सोय आसा.

अंता : आनीक कल्हाव नाका. वेळ काडटा तितलें प्रकरण सर्पी कशें वाडत वतलें. हांव चल्लों. तूं सगळें लक्षांत दवर. पयलीं बीट धाडून दी. बसीर नंबर येतलो. सगळ्यान पयलीं बाजारांत वचून एक मोटेशें कलयाद हाडून देवाऱ्याक घाल. हांव उडुपीकसान येतकच मागीर केन्ना काडपाचें तें पळोवया.

नंदन : पूण तोमेरेन–

अंता : तोमेरेन किते? कांय एक जायना. भगवंता न्हय रे तो! हांव वतां. तुंवूय वच.

(अंता ताकतिकेन भायर वता. नंदन मेजावयलीं कागदां, खणांतले पैशेयी घेवन भायर वता. माची रिती. कांय वेळान देवाऱ्यांतल्यान दाराचेर टक टक जाता आनी मागीर भितरल्यान भगवंता सादयता – 'राधिकेऽऽ' त्या सादाचेंच रूपांतर गीतांत जाता. अंबिका आनी फाटोफाट राधिका भायर येतात. खिळी काडून दार उक्तें करता. तेन्नाशीं भगवंता नाचत भायर येता. अंबिका आनी राधिकाय ताचेवांगडा नाचतात.)

तो : अंबिका तूं राधिका तूं
महेश गोपाळ हांव
युगायुगाचें जोडून आसा
म्हजें आनी तुमचें नांव

तीं : जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

तो : रूद्र रुपाचें तांडव करतां
कैलासाचेर हांव
अग्नीचो अवतार म्हजो

कोणांक गिळूं काय खांव!

तीं : जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

तो : रासक्रिडा ती खेळत आसतां
गवळणी संगे हांव
मदनाचो अवतार म्हजो
गोकुळ म्हजोच गांव

तीं : जय जय महेशा रे
जय जय गोपाळा रे

(निमाणेकडेन भगवंता दोगांयच्याय खांदार हात घालता आनी तांकां घेवन भायर वता. कांय वेळान भायरसान अंता आनी शेट्टीगर येतात. शेट्टीगर साठेक वर्सांचो मूर्तिकार. धवी लुंगी, खोमीस असो भेस.)

शेट्टीगेर : पाप! पाप! अंता, हें कितें केलें तुवें? तुवें पंचीस हजार दिल्ले रे. खरी गजाल. हांवें तुकां मूर्ती दिना म्हळ्या तर? मातशी आयज फाल्यां जालें जाल्यार तूं कितें काय म्हटल्यार घरांत तयार आशिल्ली मूर्ती उबारून घेवन आयला? आनी आतां म्हाका सोदपाक ट्रेनांत बसून उडुपीक वतालो? हांवूच आयलों रें तुकां सोदपाक गोयांत. आरे म्हज्या गोंयकारा, तुकां गोत्त ना. तुवें हाडल्या ती मूर्ती न्हय.

अंता : मूर्ती न्हय? मागीर कितें ते?

शेट्टीगेर : तो पुतळो! कोणा सट्टेबहाद्दूराचो.

अंता : सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे?

शेट्टीगेर : पळय, तुका सगळें खबर आसा. खबर आसून, तुवें पुतळो कित्याक उबारून हाडलो पुता? ते सट्टेबंधु एकसारखे फावटी मारत आसात. आयज जातलो काय फाल्यां जातलो? तांगेलो शताब्दी समारंभ लागीं पावलो न्हय वे? तांकां तो सट्टणांत

काय मस्णांत बसोवच्च्याक जाय खंय! अंता, तुजे पैशे जाय जाल्यार हांव परत दितां पूण म्हजो पुतळो म्हाका परत दी.

अंता : तुवें पैशे हाडल्या?

शेट्टीगर : हय. तूं असो वागलो तें पळोवन भियेलो हांव. कोणाचेतरी उदार घेवन तुजे पैशे हाडल्या हांवें. म्हजो पुतळो दी. आसा ते परिस्थितींत घेवन वतां हांव.

अंता : पंचवीस हजार दिवन आसा ते परिस्थितीत व्हरता मरे?

शेट्टीगेर : हय.

अंता : आसा तशे परिस्थितींत?

शेट्टीगेर : म्हणजे? तुवें हातपांय तोडूना-फोडूना मरे?

अंता : ना. सगळें जागच्या जाग्यार आसा. तूं आतां येना जाल्यार मात कितेंय वायट बरें जावं येतालें.

शेट्टीगेर : बरो देवारोबी केला मरे!

अंता : तो देवाचे मूर्ती खातीर केल्लो. पुतळ्याखातीर न्हंय.

शेट्टीगेर : हांव तुका तयार करून दितां न्हय. एक सोबीत सुंदर मूर्त!

अंता : मागीर पळोवया. पयलीं ही व्हर.

(खिळी काडून दार उक्तें करता. भितर पुतळो ना. अजापता.)

अंता : आरे, भगवंता खंय?

शेट्टीगेर : भगवंता?

अंता : ताका आमी भगवंता नांव दवरिल्लें.

शेट्टीगेर : नांवबी बदल्लें? सट्टयाचें भगवंता केलें?

अंता : भटान.

शेट्टीगेर : हो कसलो भट रे? पुतळो खंय?

अंता : तेंच पळयतां हांव. हांवें खिळी घालून दार बंद केल्लें. कोणेतरी खिळी काडली.

शेट्टीगेर : खिळी काडल्यार कितें जालें?

अंता : पुतळो जितो जाला न्हय?

शेट्टीगेर : जितो जाला?

अंता : हय. स-सचेतन जाला. खाता, पिता, उलयता, भोंवता.

शेट्टीगेर : अंता, कितें सांगता पुता?

अंता : भटान कसलो मंत्र घालून ताका जितो केलो.

शेट्टीगेर : कोण पाडापडलेलो भट रे हो?

अंता : आमचे सिद्धनाथभट.

शेट्टीगेर : आसा थंय मरों रे तो. जिवंत करच्याक हो एकूच पुतळो मेळ्ळो ताका? पुतळे जिवंत करचे जाल्यार ते गांधी, नेहरूंचे, शिवाजीचे पुतळे जिवंत करचे. आदी पुतळ्यांचें चरीत्र तरी पळोवचें. ह्या सट्टेबहाद्दूराचें चरीत्र खबर आसा खंय ताका?

अंता : कसलें चरीत्र?

शेट्टीगेर : हो सट्टो म्हळ्यार एक नंबरचो जुगारी मनीस. आनी भारी लंपट. चाळीस वर्सां पिरायेचेर मेलो आनी लोकांलीं बायलां चेरडुवां सुटलीं.

अंता : म्हणजे?

शेट्टीगेर : म्हणजे कितें? ताका बायल म्हळ्यार जाली! तन्नीबी आनी पिकलेलीबी. आवय आनी धुवेवांगडा एकाच बराबर रंग खेळपी मनीस तो. निमाणें कसली असाध्य पीडा जावन मेलो. एड्सबी जाला जातलो.

अंता : एड्स?

शेट्टीगेर : तेन्ना पीडांक नांवांबी खंय आसलीं? असल्या मनशांचे पुतळे करपाचे? आमकां कितें? सट्टेबंधुनी चाळीस हजार दिवचे केले म्हणून पुतळो केलो. नाजाल्यार मूर्ती घडोवपाचो आमचो धंदो पवित्र. आमी मूर्तिकार लोक फक्त उजवाडांत जेवतात. काळखांत रांदीबी ना आनी जेवीबी ना.

अंता : (भियेला) भगवंताऽऽ अंबिकाऽऽ राधिकाऽऽ (रागान आपले भितर) सट्टया!

शेट्टीगेर : हो भगवंता म्हळ्यार आमचो सट्टो. पूण ह्यो अंबिका आनी

राधिका कोण?

अंता : आंबिका, बायल.

शेट्टीगेर : कोणाची?

अंता : (बोवाळान) सट्ट्याची.

शेट्टीगेर : कितें?

अंता : म्हजी बायल आनी राधिका चली.

शेट्टीगेर : आतां तीं घरांत ना? म्हणजे एक सट्टो ना आनी दोगां हीं नात?

अंता : आसतलीं हांगासरूच. हो नंदन खंय गेलो?

शेट्टीगेर : हो नंदन कोण?

अंता : (बोवाळान) सट्ट्यालो पूत.

शेट्टीगेर : कितें?

अंता : म्हजो पूत.

शेट्टीगेर : अंता, हांव आतां कितें करूं सांग. तुवें म्हजो काय बरो पुतळो सांडयलो.

अंता : काय बरो खंय! पाडो! पाड्या घट्टणांचो!

शेट्टीगेर : हय रे. पूण तुकां ताका जिवंत कित्याक करपाक जाय आशिल्लें?

अंता : सांगलें न्हय, त्या भटाचें काम तें.

शेट्टीगेर : हरशीं हांकां सादें भटपण कळना, येदे व्हडले मंत्र खंय शिकले हे?

अंता : ताचो म्हण गुन्याव ना. (सोऱ्याचे) भिर्केंत केलें ताणें.

शेट्टीगेर : शी! म्हणजे पिताबी? पियेवन मंत्र म्हणटा? हें त्या सट्ट्यावरीच जालें मरे. कसलो भट रे हो!

अंता : (मुखार पळयत) हो आयलो.

शेट्टीगेर : येवं दी. सारको शिव्रेन निवळ करतां.

(भायर सावन नंदन येता. ताकतिकेन आसा. ताच्या हातांत कुलप आसा. शेट्टीगर समजता, होच भट म्हणून)

शेट्टीगेर : आरे, कसलो भट रे तूं? तुका शेंडी बींडी ना ती ना. कितें अक्कल-बिक्कल आसा काय ना? ते मंत्र मारून पुतळ्यांक जिवंक करता तें सरकाराचें परमिशनबी घेतलां व्हय? सरकार एकेवटेन कुटुंबनियोजनाचो प्रचार करून भुरगीं कमी करता, जाल्यार तूं दुसरेवटेन पुतळे जिवंत करून देशाचे लोकसंख्येत भर घालता? कितें कितें आडायलां रे तुमी?

(अंता ताका समजावपाचो यत्न करता, पूण तो एका दमान उलोवन वता.)

नंदन : पापा, हो आनी खंयचो नवो भगवंता?

अंता : हो उडुपीचो शेट्टीगर. शेट्टीगर, हो भट न्हय. म्हजो पूत नंदन.

शेट्टीगेर : अस्स वे! म्हाका खंय खबर? हांव म्हजीं उतरां पाटीं घेतां.

नंदन : पापा, भगवंतान आमकां नाडले.

अंता : कितें जालें?

नंदन : ताणें लायिल्लो तोच ओपन नंबर आयलो.

शेट्टीगेर : हो ओपन क्लॉज गोयांतबी आसा? म्हाका दिसलें फक्त आमच्या कारकलाकूच आसा म्हण.

अंता : तुका बीट धाडून दी म्हण सांगलेली मरे?

नंदन : वेळ खंय मेळ्ळा? हांगा थंय नाचपाकूच उरलों. हें कुलप सोदतालों.

अंता : आंता तें तोंडाक घाल म्हज्या.

नंदन : तुज्या कित्याक? दाराक लायतां.

अंता : थंय भगवंता ना.

नंदन : ना? भगवंता ना?

नंदन : ना. खिळी कोणे काडली?

अंता : तुजी आवय आनी भयणूय ना घरांत.

(शेट्टीगर व्हडल्या व्हडल्यान रडपाक लागता.)

अंता : शेट्टीगर, तूं कित्याक बोबो मारता? मनशां ना जाल्यांत तीं

म्हर्जी.

शेट्टीगेर : हांव म्हज्या फुडाराक रडटां.

अंता : कसलो फुडार?

शेट्टीगेर : म्हज्या धंद्याचो फुडार. आमी तयार केल्ले पुतळे जिते जावपाक लागले जाल्यार आमच्या धंद्याक केदें लांच्छन! उत्तर कन्नडांत, दक्षिण कन्नडांत, गोयांत सगळ्याक आमची बदनामी.

नंदन : कांय जायना बदनामी. वयल्यान गिरायक वाडटलें.

शेट्टीगेर : पाड पडूं रे त्या भटाचें!

(इतल्यान भायरसावन सट्टेमास्तर मोटे उमेदीन उलो मारीत येता. रघुनंदनऽऽ रघुनंदनऽऽ)

शेट्टीगेर : हो येता तो तरी भट?

नंदन : ना. हो सट्टो.

शेट्टीगेर : सट्टो?

अंता : तो सट्टो न्हय. सट्टेमास्तर. पूण हो त्या सट्ट्यालो दायजी.

(सट्टेमास्तर येता. हातांत एक पोरणी तरसाद आसा.)

सट्टे० : जय सट्टेबहाद्दूर रंगोजी राजे!

अंता : सट्टेबहाद्दूरच्या नांवार सट्ट्यांल्या किडीमुयांकूय पांखां फुटर्ली.

नंदन : सट्टेमास्तर, तुज्या सट्टेबहाद्दूराच्या दर्शनाक आयला?

सट्टे० : दर्शन व्हदळ घेतलें. पावन जालों. आतां ही ताची तरसाद ताचेकडेन सुपूर्द करपाक आयलां.

नंदन : तो घरा ना.

सट्टे० : खबर आसा म्हाका. तो घरा ना आनी खंय कोणाक घेवन गेला तेंय खबर आसा.

अंता : खंय गेला आनी कोणाक घेवन?

सट्टे० : आमचो सट्टेबहाद्दूर आयुश्यांत अपूर्ण उरलेलें काम पूर्ण करता. नवो इतिहास घडयता. (कुचित्रीपणान हांसता.)

शेट्टीगर : कस्सलो मनीस रे हो! कितें विकट हांसता!

सट्टे ० : सट्टेबहाद्दूर झिंदाबाद! सट्टेबहाद्दूर सट्टयांची वसुली कर. (आपलेभितर) एकाच घरांत दोन दोन पाळणे हालूं दी. (हांसता. अंताक सुमाराभायलो राग येता. तो सट्टेमास्तराच्या आंगार वता. आनी ताच्या हातांतली तरसाद काडून घेता.)

अंता : सट्ट्या, आनीक जीब काडून हांसशी जाल्यार तुजे बत्तीसूय दांत निखळटलों आनी जिबेचे बत्तीस कुडके करून दांतांचेर मांडून दवरतलों. (गचेक धरता.)

नंदन : पापा, सट्टेमास्तर आनी सट्टेबहाद्दूर एकामेकाक सामील आसूंक जाय.

अंता : तशेंच तें. (मास्तराक) सट्टेबहाद्दूर आतां खंय आसा?

सट्टे ० : तो थेटरांत गेला.

अंता : वांगडा कोण आसा?

सट्टे ० : अंबिका आनी चंद्रिका.

अंता : सट्टेबहाद्दूराक थेटर कोणें दाखयलें?

सट्टे : हांवेंच दाखयलें.

अंता : आनी तिकेटी कोणे काडल्यो?

सट्टे ० : हांवेंच काडून दिल्यो.

शेट्टीगर : हे सगळे सट्टे असलेच काय किते रे?

अंता : आनी पिक्चर कसलें?

नंदन : जाण्टयांनी पळोवपाचें. एडल्स. ए. सर्टीफिकेटाचें.

शेट्टीगर : पाप! पाप!

अंता : म्हणजे तुवें मुद्दाम तांकां सिनेमाक धाडल्यांत? तुजो दुस्वास तूं असो प्रगट करता? राव. पयलीं त्या सट्ट्याक पळयतां आनी मागीर तुजी खबर घेतां.

सट्टे ० : ती तरसाद.

अंता : भियेवं नाका. सट्टयांच्याच रगतान भरतली. सट्टयांच्या तांती पिल्यांक चेंचून काडटां. (सट्टेमास्तराक) चल तूं. तुगेल्या सट्ट्याचें मडें व्हरपाक मागीर आपयतां तुकां. आनी नंदन, तूं

ह्या शेट्टीगराक बाजारांत व्हरून कोणाल्याय गाड्यार बसय. शेट्टीगर, तुगेलो सट्टो येतकूच मागीर तुजो पुतळो दितां तुकां. सांगून धाडीसर थंयच बसून राव.

**शेट्टीगर** : पूण तूं म्हाका पुतळो दितलो, ताका सट्ट्यांचें मडें दितलो? हें कशें वे?

**सट्टे** : हय. म्हाकाय हें कुवाडेंच पडलां.

**अंता** : धाक्या, तूं वचना जाल्यार तुकां सातको करून सोडटलों. (सट्टेमास्तर भियेत भायर वता.)

**अंता** : नंदन, आतांचे आत्तां वाडीक चल आनी सिद्धनाथभटाक कसोय करून घेवन यो. बाकिचें हांव पळयतां. आतां ही तरसाद आसा न्हय रे म्हजेकडेन. शेट्टीगराकूय घेवन वच.

**शेट्टीगर** : अंता, हांव कोंपर जोडून तुका प्रार्थना करतां. सट्ट्याचें मडें करूं नाका. पुतळोच कर. चाळीस हजार ते. पुतळ्याक मोल आसा. मड्याक ना.

**अंता** : बरें आसा. हांव पळयतां.

(नंदन शेट्टीगराक घेवन भायर वता. अंता तरसाद घेवन हागाथय पासयो मारता. इतल्यान भायरसावन भगवंता, अंबिका आनी राधिका हांचो आवाज आयकूंक येता. अंता शादूर जाता आनी कडेक उबो रावता. मुखार अंबिका, तिचे फाटल्यान राधिका आनी तिचेफाटल्यान भगवंता येता. तीं दोगांय तिडकल्यान आनी भगवंता तांची समजिकाय काडटा.)

**अंबिका** : भगवंता, मस्करेक म्हण एक शीम मेर आसता. तूं कितलोय जाल्यार भगवंता आनी आमी तुगेले भक्त. तुकां असलें वागप निखालस सोबना.

**राधिका** : शी! कॉलेजांतले भुरगे लेगीत इतलीं टवाळपणां करिनात.

**भगवंता** : अंबिके, राधिके, म्हजें आयकून तरी घेयात.

**अंबिका** : इतलो वेळ तेंच करतालीं न्हय? चल राधिके, भितर वच. हांगा रावपाची गरज ना.

**भगवंता** : अंबिके, म्हाका कडकडीत भूक लागल्या. भायर कितेंय खावया म्हणल्यार तुमी बाण कशीं घरा आयलीं. आनी तुमचे फाटल्यान हांव. खऱ्यांनीच भूक लागल्या.

**अंबिका** : आमी कोणाच्याय फाटीर मारपी, पोटार न्हय. आनी तूं तर भगवंता, जेवण करतां हांव.

(दोगांय भितर वतात. कुशीक आशिल्लो अंता मुखार येता. हातांत तरसाद ना.)

**अंता** : कितें भगवंता?

**भगवंता** : (आंग काडून) कोण? म्हजी तरसाद खंय? कोण अंता तूं?

**अंता** : तूं इतलो कांचवेलो कित्याक? तुकां कोण दिसलो? तुजो दुस्मान?

**भगवंता** : म्हजी तरसाद खंय?

**अंता** : खंयची तरसाद?

**भगवंता** : सट्टेमास्तर हांगा दवरून गेला.

**अंता** : ताणेच सांगलें दिसता तुकां.

**भगवंता** : हय.

**अंता** : आनीक कितें सांगलें?

**भगवंता** : कांय ना. तो खूब भियेल्लो. म्हाका सादूर राव म्हण सांगतालो.

**अंता** : कोणापासून?

**भगवंता** : तें सारखें सांगलें ना ताणें. सांगल्यारूय हांव सारखो आयकुपाक पावलो ना. हांची दोगांयची समजिकाय काडटासर नाका पुरो जालें.

अंता : अशें! कशें लागलें फिक्चर?

भगवंता : बरें आसलें. आतांचीं पिक्चरां उलयतात आनी रंगीत लेगीत.

**अंता** : मागीर कितें समजलो तर तूं? तुगेल्या तेपावयलीं पिक्चरां? मोनी, काळीं आनी धवीं?

भगवंता : (दुबावान) म्हज्या तेपावयलीं?

अंता : पिक्चराचें जालें. आतां पिकनिकेचें पळय.

भगवंता : पिकनीक?

अंता : हय, घे. तुजो नंबर लागलो. ओपन. पयल्याच धपक्याक तूं जिखलो.

भगवंता : (कांय परत दिता) हे क्लॉजाक लावपाचे. (नंबर दाखयत) ह्या नंबराचेर.

अंता : बरें आसा. हेवूय लागलेच म्हणून समजुपाचे.

भगवंता : खरेंच?

अंता : तुजो, भगवंताचो अदमास कसो चुकूं येता?

भगवंता : खूब तकली फोडल्या हांवें.

अंता : आतां मातसो देवाऱ्यांत वता न्हय?

भगवंता : येन्नाच?

अंता : भगवंता, तुकां असो दिसांचे दीस पुजेबगर दवरल्यार पातकांत पडटलो हांव.

भगवंता : मागीर कितें करता?

अंता : तुजी पाद्यपूजा.

भगवंता : पूण ती तूं मान्यांत करतालो न्हय?

अंता : नाका. आतां हांगाच करतां.

भगवंता : तशें जाल्यार बरें आसा. जेवण जातासर पाद्यपूजा करून घेवंया. चड वेळ लावचो ना न्हय?

अंता : ना. ना. पिक्चरापरस कमी वेळांत करतां.

भगवंता : गरम उदकांन कर.

अंता : बऱ्या खतखतीत, फुलां आयिल्ल्या उदकान करतां. पांयांचेर उदकूय जालें, फुलांय जालीं. चल,

भगवंता : राव, राव म्हजी तरसाद.

अंता : ती मेस्तागेर पाजपाक दिल्या. कळमेल्ली. धार काडपाक दिल्या.

भगवंता : केन्ना मेळटली?

अंता : फुडल्या वर्सा.

भगवंता : फुडल्या वर्सा? त्या कदेली आनी कपड्यांभशेन?

अंता : अशें कितें करता? मेळटली फाल्यां. ती आतांच कोणाचे मानेर हाणपाक जाय?

भगवंता : न्हय. म्हजे सुरक्षितेखातीर जाय. तरसादीबगर सट्टेबहाद्दूर– (चूक लक्षांत येता. सुदारता.) तरसादीबगर भगवंता म्हणजे बाणाबगर धोणू.

अंता : भितर चल एकदांचो.

भगवंता : अंता, तूं म्हजी अपुरबाय करता काय म्हजेर बळजबरी करता?

(भगवंताक भितर धुकलता आनी भायरसावन खिळी घालता. भितरसावन भगवंता 'अंताऽऽ, अंताऽऽ' म्हण उलो मारता. अंता कुशीक दवरिल्ली तरसाद काडटा आनी उलो मारता.)

अंता : अंबिकेऽऽ राधिकेऽऽ

(दोगांय धांवत येतात. अंताक पळोवन अजापतात.)

अंता : बरी सडसडीत धांवत आयलीं. भगवंतान उलो मारलो म्हण समजलीं दिसता. पिक्चराक वचपाक काय पिकनिकेक वचपाक?

अंबिका : आवयस म्हजे! हें हातांत कितें?

राधिका : (भंयान) पापा!

अंता : हे तरसादीन तुमकां दोगांकूय चिरतां.

अंबिका : चिरता?

राधिका : आमी कितें केलां?

अंता : कितें केलां? हांगासर ताच्या फाटल्यान फुडल्यान नाचतालीं तें एक बरें आसा. ताच्यावांगडा पिक्चराकूय पावलीं?

राधिका : सोपूत घेवन सांगतां पापा, आमकां कांयच खबर ना. पयलीं भगवंतान सांगलें, देवळांत वचपाचें म्हणून. मागीर सट्टेमास्तरान आनी ताणे कितेंतरी बगलांट केलें आनी आमकां

बद्द थेटरांत व्हेलीं.

अंबिका : कसलो हळशिकावणो सिनेमा. सगळे लोक पिक्चर पळोवपाचे सोडून आमकांच पळयतात.

राधिका : हीं असलीं संवंगा घेवन म्हण पिक्चराक वचपाचें आसता?

अंता : बरें बेगीन कळ्ळें तुमकां.

अंबिका : आमचो कितें चूक? तुमी भगवंता म्हणलो, आमी मानून घेतलो. आतां तीं तरसाद आमचेमुखार कित्याक नाचयता? भंय घालपाचो जाल्यार ताकाच घालात. बरो देव जालो म्हणून कितें जालें? नस्तीं फाजीलपणां कितें?

अंता : देवबी कोण न्हय. तो देंवचार!

दोगांय : म्हणजे?

अंता : तो देवाची मूर्ती न्हय. पुतळो तो. सट्टेबहाद्दूर रंगाजी राजे म्हणटा ताचो पुतळो तो.

अंबिका : म्हणजे सट्टेमास्तराच्या पूर्वजांचो?

अंता : हय.

राधिका : तरीच सट्टेमास्तर ताच्या फाटल्यान फुडल्यान नाचता.

अंता : नाचता म्हणून आपणाल्या घरा व्हरून ताका? थंय तागेलीं बायलां भुरगीं आसात. दुसऱ्यांल्या संवसाराची वाट लावप बरें.

दोगांय : म्हणजे?

अंता : म्हणजे कितें तें ना कळपा इतलीं तुमी नेणार नात.

अंबिका : भगवंताची लक्षणां तशीं आसात खरीं.

अंता : भगवंता कर्माचो! पन्नास वर्सां आदीं एड्स म्हणटा ती भयांकृत पीडा जावन मेल्लो हो सट्टेबहाद्दूर. ह्या आमच्या सिद्धनाथान आनी ताका जितो करून पुनर्जल्म दिलो. सिद्धनाथाचो म्हण गुन्यांव ना. हांवें सांगलें तशें ताणें केलें.

(राधिका रडटा.)

अंता : तुका आनी रडपाक कितें जालां?

राधिका : एकल्याचो एड्स दुसऱ्याक येता न्हय?

अंता : हय येता. शिकूना तूं? एड्साचो भायर येदो प्रोपागांडा जाता.

**राधिका** : (ल्हवूच) पापा,

**अंता** : कितें धुवे?

**राधिका** : एड्स जाल्ल्या मनशान दुसऱ्यांक चिमटे काडल्यार ताका एडस् जायना न्हय?

**अंता** : ना, ना. आतां काथ्यान बरे कोंपर आनी भुजां घांस.

**अंबिका** : शी! एकदांचो त्या भगवंताक उबारात हांगासल्ल्यान.

**अंता** : उडुपीसावन शेट्टीगर ताका व्हरपाक आयला.

**अंबिका** : पूण तो व्हरतलो कसो?

**अंता** : तेंच येवजितां. ताका हे तरसादीन मारून वडोवप सोपें. पूण ताजो पुतळो करप कठीण. सिद्धनाथ पावता तेन्ना खरें. (दोगांकूय) हें पळयात. हांव सांगतां तशें तुमी करपाचें.

**अंबिका** : आमी तुमच्या उतराभायर आसात?

**राधिका** : हय पापा.

**अंता** : भुकेल्ल्या पोटार आसा. वखदाचो परीणाम रोखडो जातलो. चला, सांगतां.

(तांकां भितर घेवन वता. देवाऱ्यांतल्यान भगवंता अंबिकेऽऽ राधिकेऽऽ म्हण व्हडल्या व्हडल्यान सादयता. सादयता ताचीच धून जाता. आदल्याच गीताची धून त्या तालार भितर सावन अंबिका आनी राधिका नाचत नाचत भायर येतात. तांच्या हातांत भल्लेले सोऱ्याचे पेले आसात. अंता एका हातांत सोऱ्याची बाटली आनी दुसऱ्या हातांत तरसाद घेवन एके कुशीक बसता. अंबिका आनी राधिका नाचतां नाचतांच खिळी काडून देवाऱ्याचें दार उक्तें करतात. नाचतां नाचताना दोगांय ताका पेल्यार पेले पिवयतात. दोगांयचे रिते पेले भरून दिवपाचें काम अंता कुशीक बसून करता.)

(भगवंता जाम जाता. थंयच दिवाणाचेर कोसळटा. इतल्यान भायरसावन नंदन आनी सिद्धनाथभट धांवत येतात. अंता तांका जाग करिनासताना भितर येवपाक खुणायता. ते तशे येतात. सिद्धनाथ ल्हवूच पिशेवेंतल्यान अक्षता काडटा. मंत्र

पुटपुटटा आनी भगवंताचेर मारता. अक्षदा मारता तसोतसो भगवंता पुतळ्याभशेन ल्हवूल्हवू उबो जाता आनी सामको आदल्या पुतळ्याभशेन थीर जाता. पयलीं आशिल्लो तेच सुवातेर. ताचें पुतळ्यांत रूपांतर जातकूच अंबिका, राधिका, नंदन खोस उक्तावपाक ताळयो मारतात. अंता आदलो कपडो हाडून पुतळ्याभोंवतणी गुठलायता.)

**अंता** : नंदन, चल बाजारांत वचून त्या शेट्टीगराक आपयला म्हणून सांग. म्हजे पंचवीस हजार हाड आनी ताचो पुतळो व्हर म्हणजे. पंचवीस हजारांनी हिचीं भांगरां सोडोवन हाडटां. आनी त्या सट्टेमास्तरागेर चल.

**अंबिका** : तागेर आनी कित्याक पांय दिवपाक जाय?

**अंता** : ही तागेली तरसाद व्हरून घाल तागेल्या हड्ड्यार.

(नंदन तरसाद घेवन वता.)

**•अंबिका** : खऱ्यांनीच कपलार घालशी रे!

**अंता** : घाल्यार घालूं!

**अंबिका** : जांव सुटलीं एकदांचीं!

**अंता** : सिद्धनाथ, हे तुजे प्रताप आनी आमकां उतळताप.

**सिद्धनाथ** : (हांसत) अंता, मज खूब पुरो जालांय. त्या दिवसाची बाटली काढ मरे.

**अंता** : बाटली काडिल्लीच आसा.

**सिद्धनाथ** : निवांतपणान बसूंया. अणी मग काय काय घडलें तें सविस्तर सांग. अंबिके, कांदा-लसूण घालून कायय तिखटशें, मचमचीत कर. (राधिकेक) राधिके, दोन पेले आण. ग्लास सुद्धा आणल्यार होतात. अणी मग तुजें नाचगाणें हायच न्हवे. चलात. पयलीं आगांर दोन तांबये रकोवन येतां. अंबिके, तुमचें मान्ने निवळ हायच न्हवे?

**अंबिका** : येयात भटमाम.

(भटमाम, अंबिका आनी राधिका भितर वतात.)

## देखाव – दोन

(अंताचें विचारचक्र थांबलां. अंता पुतळ्या भोंवतणी कपडो गुठलावन थीर रावन पुतळ्याक पळयता. दोगांयचेरूय उजवाड एकवटता. पार्श्वभागाचेर शिर्शकगीत–)

**ना विवंचना ना चिंता**
**अंता घरा भगवंता**

(काळोख)

(सोंपता)

## कला चेतना, वळवय निर्मित –
## 'अंता घरा भगवंता' (2001)...



कलाकार : नंदिनी बांदेकार, महेश शिलकार आनी सुचिता नार्वेकार.



कलाकार : नंदिनी बांदेकार, महेश शिलकार, सुचिता नार्वेकार, प्रवीण नायक, प्रेमानंद गुरव आनी हेमंत कांसार.



मूर्तिंत प्राणप्रतिष्ठा केल्या उपरांत मूर्तिंत देवत्व येता अशी एक संकल्पना आसा. तेच संकल्पनेचो आदार घेवन हांगासर पुतळ्यांत प्राणप्रतिष्ठा करून तो जागृत आनी चेतनामय करपाची कल्पना वावरल्या आनी तातुंतल्यान एक नाट्यशिल्प उबें केलां.

देशांत बेकायदेशीरपणान (पूण नितीन) चलपी मटक्याच्या जुगाराची फाटभूंय नाटकाक लाबल्या. नाटककार जुगाराचें समर्थन करीना पूण जी वस्तूस्थिती मांडटा, ती धक्को दिवपी आसा.




ISBN 81-86488-86-3